# जाग

रूप्या-उत्सवी वर्स

र्स २५ ◆ आंक १२ ◆ जुलै १९९९

भाशीक एकवट * एकरूपी भास * देवनागरीचो पुरस्कार * सरस्पत आनी संस्कृतायेचो विस्तार * वेव्हारांत वापर * शैक्षणीक पुस्तकां * जनगणनेख्यातीर प्रचार * नेमाळ्यांचो आग्रो * साहित्य अकादेमी * भुरग्यांक कोंकणीतल्यान शिक्षण * राजभास आंदोलनाचो उलो * आठवी वळेरी * कोंकणी प्रांत घडोवपाची मागणी * कारवार-सिंधुदुर्गाचो प्रस्न...

* अखिल भारतीय कोंकणी परिशद * कारवार * उडपी * मुंबय * मडगांव * पणजी * कोची * बंगळूर * मणिपाल * बेळगांव....

४०

# जाग

वर्स २५ ◇ आंक १२ ◇ जुलै १९९९

संपादपी : रवीन्द्र केळेकार

वावुरपी संपादपी : माधवी सरदेसाय

उजवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

अक्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

छापपी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

कवर चित्र : लइराई कंप्यू.


## ह्या आंकांत




| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | रु. १००/- |
| विद्यार्थ्यांखातीर | : | रु. ७५/- |
| तीन वर्सांची पटी | : | रु. २५०/- |

चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
(चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत धा रुपये अदीक जोडचे)



वेव्हाराचो नामो :

**जाग** म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमेन्ट्स
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.



किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ९/-


## नदर संपादप्याची

### 'व्हनये, हो शेमांव तुका न्हू...'

खऱ्यांनीच समाजांत पाडे लोक भरल्यात? ना. पाड्या लोकां परस समाजांत बरे लोकूच चड पळोवंक मेळटात. पुणून बऱ्या लोकांचो एक व्हडलो अवगूण म्हळ्यार ते आपूण आसात म्हणपाचें लेगीत दाखोवन दिनात. आपणालें मत्त केन्ना नेटान लोकांमुखार मांडिनात. 'कित्याक जाय वायटपण' अशें म्हणटात आनी ओगी रावतात. म्हूण, पाडे लोक आपणाल्यो पाड्यो करण्यो करूंक पावतात. पाडे लोक बऱ्या लोकांचें हें दुबळेपण बेस बरे वळखल्यात. 'हे कांयच करपाचे नात... हांच्यांत जीव ना' अशें म्हणून आपणाल्यो पाड घालपाच्यो करण्यो ते करीत आयल्यात.

पांच हजार लोकांच्या एका गांवांत पांच पाडे पुरो पुराय गांवांत चांचाळ मातोवपाक.

म्हाका केन्ना पाड्या लोकांच्या पाड्या करण्यांचें अजाप जावंक ना. अजाप जालां आनी तिडकूय मारल्या ती बऱ्या लोकांच्या दुबळेपणाची.

बरे लोक संघटीत जाल्ले जाल्यार पाड्या लोकांचें समाजांत चलचेंच नाशिल्लें.

राजकर्णांत आशिल्लों तेन्ना बऱ्या लोकांचें दुबळेपण पळोवन उसळटालों. राजकर्णांतल्यान आंग काडून घेतल्यार कितलींशीं वर्सां जालीं, पुणून पेपर वाचपाचें सोडून दिवंक ना. आनी पेपरांत – पाड पडिल्लें – राजकर्ण सोडून कितेंच येना. हाका लागून अजुनूय बऱ्या लोकांच्या दुबळेपणाचेर लक्ष वता आनी तिडक मारता.

* * *

पंचवीस वर्सां काँग्रेसींत रावन विश्वनाथ प्रताप सिंगांनी एक दीस काँग्रेस सोडली. भायर सरून राजीव गांधीं आड हड्डें मुखार काडून ते उबे रावले. राजीव गांधी ल्हाना समानांतले फुडारी नाशिल्ले. एक तर तरणे पिरायेचे आशिल्ले आनी दुसरें म्हळ्यार, नेहरू घराण्यांतले आशिल्ले. आज्याच्या त्यागाचें आनी आवयच्या बलिदानाचें वलय राजीवाच्या मुखामळार चकचकतालें. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार 'मिस्टर क्लीन' म्हूण तांणी नामना जोडिल्ली. ह्या 'मिस्टर क्लिना'चेच हात लांच लुचपतिच्या चिखलांत कशे बुरशेल्यात हें विश्वनाथ प्रताप सिंग दाखोवन दिवपाक लागले. 'म्हजे कडेन स्वीस अकाउन्टाचे नम्बर आसात आनी तातूंत कोणें केन्ना कितले पयशे घाल्यात हाचेय आंकडे आसात' अशें ते सांगपाक लागले तेन्ना पुराय देशाचें लक्ष तांचेकडेन आपशींच ओडलें. 'स्वराज्या आदीं देशाक मेळिल्ले तसले फुडारी आतां खंय आसात?' अशें विचारतल्यांक 'हो घेयात... त्याच पांवड्याचो हो एक फुडारी आयज आमकां मेळ्ळा' अशें आमी सांगपाक लागले. बोफोर्स प्रकरण विश्वनाथ प्रताप सिंगांनीच गाजयलें आनी ह्याच प्रकरणाचेर तांणी १९८९च्यो वेंचणुको जिखल्यो. राजीव गांधींच्या पक्षाची देशांत धुळदशा करून दाखयली.

मागीर? विश्वनाथ प्रताप सिंग प्रधानमंत्री जाले. आनी प्रधानमंत्री जायनाफुडें बोफोर्स विसरले. भ्रश्टाचाराचो प्रस्न व्हडलो-सो न्हय, खरो प्रस्न आमचे मुखार आसा तो सांप्रदायीक बळांचो. हीं बळां तकल्यो वयर काडूंक लागल्यांत. त्यो सगळ्यांत पयलीं चिड्डून उडोवंक जाय अशें म्हणून तांणी मंडल आयोगाच्यो सुचोवण्यो मुखार काडल्यो. सांप्रदायीक बळां आड झुजपाक तांणी जातीय बळां मुखार काडलीं. सेक्युलरिझमाक खिळखिळो करपाची तांक जितली सांप्रदायीक बळांक आसा तितलीच जातीय बळांक आसा – खरो सॅक्युलरिस्ट जितलो कम्युनलिझमा आड आसूंक जाय तितलोच कास्टीझमा आडूय आसूंक जाय – म्हणपाचें ते विसरले. अखेरेक कास्टीझमाचो जो उजो पेटलो तातूंत ते हुलपले आनी

सत्य पसून जे पयस पडले ते सदां काळा खातीर पयस पडले.

तरी आसतना ते राजकर्णा पसून पयस वचूंक नात. मदीं मदीं जयप्रकाश जाल्ले वरी ते कोणें कितें करचें तें सांगीत आसतात. ते विदेशांत एका हॉस्पिटलांत हांतुळणार पडिल्ले आसतनाय विस्वास कौला आड पक्ष-शिस्त मोडून मत्त घालचें म्हणपाची बुद्दूय तांणी कोणा कोणाक दिल्या! सगळ्यांक मदीं मदीं नितिचे पाठूय शिकयतात.

बरें आसा. पुणून एक सांगात, सत्येर आशिल्ले तेन्ना वा सत्ये पसून कडेक सरले तेन्ना विश्वनाथ प्रताप सिंगांनी केन्ना लालू प्रसादांक एका उतरान तरी नितिचो पाठ शिकयला व्हय? लालू प्रसादां आड एका फुडले एक आरोप लोक करताले. विश्वनाथ प्रताप सिंगांनी केन्ना तांच्या अर्दान वा तांचे आड कितेंय म्हळ्ळें कोणें केन्ना आयकलां वा वाचलां व्हय? 'व्हनये, हो शेर्मांव तुका न्हू' ह्या नेमान ते आपणाल्या भ्रश्ट सांगात्यां कडेन चलल्यात. 'आमचो मनीस कितलोय भ्रश्ट आसूं, उसळूंक जाय विरोधी पक्षांतलो कोणूय भ्रश्टाचार करता तेन्ना' हें विश्वनाथ प्रताप सिंगांचें 'व्हेल्यू-बेझ्ड पॉलिटिक्स'!

स्वराज्यांत सुरवेच्या काळांत सगळ्या राज्यांनी काँग्रेसचीं सरकारां आयलीं. कांय वर्सांनी ह्या सरकारां आड लोकां मजगतीं असंतोष वाडपाक लागलो. लोक खंय खंय निदर्शनां करपाक लागले. निदर्शनां हाता भायर वचपाक लागलीं तेन्ना पोलीस तांचेर 'लाठीचार्ज' करपाक लागले. हांगा मेरेन बरें आसा. पुणून लाठीचार्जा उपरांत जेन्ना कांय कडेन गोळीबार जाले तेन्ना सगळ्यांत पयलीं उसळ्ळे ते समाजवादी. 'स्वराज्यांत जें सरकार लोकांचेर गोळीबार करता तें खीणभर लेगीत सत्येर उरूंक जायना' अशें जयप्रकाश, लोहिया, सगळे समाजवादी देशभर सांगीत भोंवले.

एका वर्सा केरळांत समाजवादी पक्षाचें सरकार आयलें. ह्याय सरकारा आड एक दीस लोकांनी निदर्शनां केलीं. निदर्शनां हाता भायर गेलीं तेन्ना समाजवादी सरकाराच्या मुखेलमंत्र्यांक – पोट्टम थानु पिल्लैंक – उपाय नासून निदर्शकांचेर पयलीं लाठीचार्ज आनी मागीर गोळीबार करपाचो पोलिसांक हुकूम सोडचो पडलो. जयप्रकाश-बीयप्रकाश कोणाचोच आवाज ह्या गोळीबारा आड उठलो ना. उठलो तो एकल्याचोच – डॉ. राम मनोहर लोहियांचो. 'आमच्या पक्षाचें सरकार आसलें म्हूण कितें जालें? लोकांचेर गोळीबार करता असलें सरकार खीणभर लेगीत उरूंक जायना' अशें ते म्हणपाक लागले आनी 'पोट्टम थानु पिल्लैंनी राजिनामो दिवचो' म्हूण मागपाक लागले.

लोहियांचेर सगळे समाजवादी रागार जाले. फकत विनोबांनी – जे खंयच्याच पक्षाचे नाशिल्ले, तांणी – 'देशाचें काळीज लोहियांच्या तोंडांतल्यान उलयलां' अशें म्हळ्ळें.

लोहियांचें हें खरें 'व्हेल्यू-बेझ्ड पॉलिटिक्स' आशिल्लें.

विश्वनाथ प्रताप सिंग म्हळ्यार लोहिया न्हय, हांव जाणां. पुणून जें शाणेपण दुसऱ्यांक शिकयतात तें लालू प्रसादां सारकेल्या आपणाल्या सांगात्यांक 'थोडें तरी' तांणी शिकोवं नाका आशिल्लें? ना... केन्नाच शिकयलें ना.

'व्हनये, हो शेर्मांव तुका न्हू' ह्या नेमान व्हेल्यू बेझ्ड राजकर्णाची बुन्याद मारूंक येना.

* * *

ज्या पक्षांत देशांतले सगळे चोर फर्टींग, पाजी बदमाश एकठांय जाल्यात ते काँग्रेसींत एक फुडारी आसा, जाका ताचे दुस्मान लेगीत स्वच्छ, निर्मळ फुडारी म्हूण वळखतात – केरळांतले ए. के. ऍंथनी. 'इमर्जन्सी'च्या काळांत एका काँग्रेस अधिवेशनांत इन्दिरा गांधींच्या तोंडार 'इमर्जन्सी देशाचेर थापून तुमी मोट्यांतली मोटी चूक केल्या' म्हूण सांगपाक ते मात लेगीत अनमनूंक नाशिल्ले. सुमारा भायर नमळायेचे पुणून तितल्याच खंबीरपणान तांणी आपणालें हें मत्त मांडिल्लें.

आनी जे इन्दिराजीन जयप्रकाश मोरारजी सारकेल्यांक बंदखणींत घाल्ले तिणें ए. के. ऍंथनीक कितेंच करूंक नाशिल्लें. 'मनीस स्वता निर्मळ... ताणें अशेंच उसळपाचें' इतलेंच सगळ्यांनी म्हळ्ळें.

पुणून जे ऍंथनी इन्दिराजीं मुखार इतले परखडपणान उलयल्ले तांणी बोफोर्स प्रकरणांत केन्ना एक उतर लेगीत काडिल्ल्याचें कोणें आयकलां वा वाचलां व्हय? केरळांतल्या लोकांनी घडये आयकलां वा वाचलां जातलें. उरिल्ल्या देशांतल्या कोणाक कितेंच आयकूंक वा वाचूंक मेळूंक ना. सेंट किट्स प्रकरणाचेरूय ते केन्ना उलोवंक नात. 'हांवें सेंट किट्स प्रकरणांत जें कितें केलें तें राजीव गांधींचे सांगणेन केलें' अशें नरसिंहरावांनी म्हळें तरूय ऍंथनीचें तोंड केन्ना उकतें जालें ना. ऍंथनी निर्मळ आनी स्वच्छ फुडारी आसुनूय आपल्या पक्षांतल्या लोकांच्या भ्रश्टाचारा आड एक उतर लेगीत काडिनात.

इन्दिरा गांधीं आड उलोवपाक जे ऍंथनी अनमनले नात ते सीताराम केसरीं सारकेल्यां मुखार तोंड धांपून कशे रावले, केन्नाच समजलें ना. सगळे कडेन बऱ्या लोकांची गत्त हीच जाल्या. ते 'व्हनये, हो शेर्मांव तुका न्हू' ह्याच नेमान चलत आयल्यात. म्हुण्णूच समाजांत पाड्या लोकांचो शेक चलूंक पावला.

* * *

फाटीं दिल्लीक वता आसतना विमानांत एकलो मेळ्ळो. गोंयच्या राजकर्णांत बरोच मुंगरिल्लो. म्हजे म्हऱ्यांतूच बशिल्लो. दोन अडेच वरांची वाट. गोंयच्या फुडाऱ्यांच्यो कितल्यो-श्यो खबरी ताणें म्हाका सांगल्यो. 'चोर रे सगळे चोर... सामके उरफाट्या काळजाचे...' ताणें म्हळें. मागीर एक एकल्याचें नांव घेवन सांगलें, अमको राजकर्णांत पडचे पयलीं किरकोळ मनीस आशिल्लो. आयज अमक्या कोटी रुपयांचो धनी जाला... कसो जालो? सत्येर आसलो तेन्ना ताणें अमक्याच्यो जमनी खाल्यो. अमक्या अमक्याच्यो जमनी 'कन्वर्शन' करून दिल्यो. शेतांच्यो जमनी बिल्डर्सांक दिल्यो... पयशे घेवन लोकांक नोकऱ्यो दिता... धा पंदरा हजार रुपया दिले जाल्यार 'कितें रे, भिकणां हाडल्यांत?' अशें विचारता... एक एकल्याक धरून बस स्टॅंडार हाडून झाडाक हुमकळावंक जाय आनी उजो घालून हुलपावन मारूंक जाय... महापातकी सगळे...'

विमान दिल्लीक पावलें तेन्ना ताणें म्हाका विचारलें, 'दिल्लींत तूं खंय रावता?' हांवें खंय रावता तें सांगलें. 'थंय फोन आसा?' आसा म्हूण सांगतकूच ताणें फोन नंबर बरोवन घेतलो. 'कितले दीस उरतलो दिल्लींत?' म्हळें, आयचो आनी फायचो दीस... परां वतलों.'

'अवेरां वच... फाल्यां सांजचो तुका फोन करतां. परां आमी बरोबर जेवया...'

हांवें 'बरें आसा' म्हळें. ते प्रमाण ताचो फोन आयलो आनी हांव ताच्या हॉटेलार जेवंक गेलो. जेवण सोंपतकूच हांव घरा वचपाक उठलों तेन्ना ताणें म्हळें, 'राव, हांव तुका पावयतां.' थोडो वेळ ताच्या रुमांत आड पडलों. चारांक सुमार आमी भायर सरले. गाडयेंत बसतकूच म्हणपाक लागलो, 'वाटेर अमक्या अमक्याचो बंगलो लागता... हांवें ताका मेळूंक येता म्हूण सांगलां. काँग्रेसचो एक व्हड फुडारी... गोंयचो कारभार तो पळेता... तुका म्हजे बरोबर येवपाक अडचण आसा व्हय?' म्हाका कसली अडचण आसतली? ताचे बरोबर त्या फुडाऱ्याच्या बंगल्यार गेलों. दोगांच्योय गजाली सुरू जाल्यो. एकामेकांचे जिवाभावाचे इश्ट कशे दोगूय उलोवपाक लागले. मदींच त्या काँग्रेस-फुडाऱ्यान एकल्याचें नांव घेवन हाका विचारलें, 'मनीस सामको करप्ट म्हूण आयकलां... तुजें मत्त कितें?' 'च्चे च्चे...

तशें कांय ना. लोक उलयतात. पुणून तातूंत कांय तथ्य ना... सगळ्यांचीं कामां करता. एक एफिशियंट मिनिस्टर तो.' हाणें जाप दिली. हांव चकासूर जावन आयकूंक लागलों. घरा येतना वाटेर हांवें हाका विचारलें, 'पयर विमानांत तर तुवें ह्या फुडाऱ्या विशीं म्हाका बरेंच कितें सांगिल्लें... आयज सामकें वेगळें कशें सांगलें?'

ताणें जाप दिली, 'तूं ह्या कॉंग्रेसच्या फुडाऱ्यांक वळखना... हाका आमच्या त्या मंत्र्याचीं सगळीं लफडीं खबर आसात... हांवें ताका म्हजें खरेलें मत्त सांगिल्लें जाल्यार कितें जातलें, जाणां? फाल्यां तो हाका मेळटकूच हांवें अशें अशें सांगिल्लें म्हूण सांगतलो... आमचे संबंद मागीर इबाडटले... कित्याक घे वायटपण? कामां जावचीं नात...'

कळ्ळें आतां, बऱ्या लोकांच्या ह्या संवसारांत पाड्या लोकांचो शेक कित्याक चलता तो?

बेश्टे पाड्या लोकांक आमी दुशण दितात!

## आमची संस्कृताय कित्याक तिगून उरली?

भितरल्या विसंगतींक लागून खंय संस्कृतायो ना जातात! मागीर, हिन्दू संस्कृताय कशी ना जाली ना? तिच्यांत थोड्यो विसंगती नाशिल्ल्यो! मनशा सारक्या मनशांक समाजा भायर दवरप, तांची सांवळी लेगीत आपणाचेर पडूंक पावची न्हय म्हूण जतनाय घेवप हें आफुड-भश्ट हिन्दू संस्कृतायेंत सदांच चलत आयलां. केदी व्हडली विसंगती ही सगळ्यांत एकूच आत्मो वसता म्हणपी संस्कृतायेची!

जात-कातिचें ऊंच उणाकपण, हिन्दू आनी अ-हिन्दू हांचे मजगतचें आपलें-पेलेपण, बायलांचो सकयलो पांवडो – असल्यो एक आनी दोन न्हय, कितल्यो-श्यो विसंगती भरल्यात हिन्दू संस्कृतायेंत.

तरी आसतना, फाटल्या उण्या-पुऱ्या पांच हजार वर्सां पसून हिन्दू संस्कृताय तिगून उरल्या. तिचे आदल्यो, तिचे वांगडच्यो, तिचे उपरांतच्यो कितल्यो-श्यो संस्कृतायो आयल्यो आनी गेल्यो. हीच तिगून उरली. कशी उरली?

भितरल्या विसंगतीं सयत तर ती तिगून उरल्याच, भायल्यान दुस्मानांनी कितल्यो-श्यो धुरयो घाल्ल्यो आसुनूय तिगून उरल्या, इतलेंच न्हय तर देशी विदेशी राजांनी लोकांचेर एका फुडल्यो एक आगळिको केल्ल्यो आसतनाय तिगून उरल्या.

कांय जाण म्हणटात, आमी आमची समाज-वेवस्था पंचायतिंच्या हातांत दिली आनी अर्थ-वेवस्था सदां विकेन्द्रीत दवरली हाकाच लागून आमची संस्कृताय तिगून उरली. परकी धुरयांक लागून सगळें सकयल वयर जालें. पुणून खंयच्याच गांवांत उत्सव काले बंद पडले नात. ते चलत आयिल्ले तशेच सदां चलत रावले. कथा-किर्तनां कोणेंच आयचीं फाल्यांचेर धुकल्लीं नात. ते ते परबेक तीं तीं कथा-किर्तनां नेमान चलत रावलीं; नवीं नवीं देवळां उबीं जायत रावलीं, रामायणाचे पाठ अखंड चलत रावले, पाठशाळेंत शास्त्रांचें शिक्षण बंद केन्ना पडलें ना; शेतकामांत कोणाची केन्ना आडखळ जाली ना. जिवीत सदां चलत आयिल्लें तशेंच चलत रावलें. हाचें कारण, आयज जाका आमी 'सरकार' म्हणटात तसलें कितेंच आमचे संस्कृतायेंत नाशिल्लें. राजा आशिल्ले. पुणून ते चोरांक धरपाचें, तांकां ख्यास्त फर्मावपाचें, लोकांक न्याय दिवपाचें, भायल्यान धुरी आयली जाल्यार देशाचें राखण करपाचें काम करताले. बाकिचीं – दिसपट्ट्या वेव्हाराचीं – सगळीं कामां लोकूच एकामेकांच्या पालवान आनी आधारान चलयत रावले. हाकाच लागून देश तिगून उरला.

आतां कांय जाण म्हणपाक लागल्यात –

आमचे समाज वेवस्थेचें मर्म समजून घेवंया, पंचायत-वेवस्ता परती जिवी करुंया, पुराय अर्थतंत्र विकेन्द्रीकरणाच्या तत्वाक धरून बांदून काडुंया. आनी आफुड-भश्टा सारक्यो, जात-कातिच्या ऊंच उणाकपणा सारक्यो, हिन्दू-अहिन्दू मजगतच्या आपले-पेलेपणा सारक्यो सगळ्यो विसंगती काडून उडोवंया. म्हणटकूच पोरणी हिन्दू संस्कृताय भारतीय संस्कृताय हें नवें नांव घेवन मुखार येतली आनी सदांकाळ तिगून उरपी संस्कृताय म्हूण सगळ्यांक देखदिणी जावंक पावतली.

## 'अब तो जीवन हारे'

दुख्खां, संकश्टां, अरिश्टां सगळ्यांच्या वांट्याक येतात. येवंकूच जाय. टॉनिकां हीं, जिवीत भितरल्यान घटमूट करपी. दुख्खां चुकोवपाचो यत्न कोणें करचो न्हय. सोंसचीं. म्हणटकूच तीं येतात तशीं वतात म्हणपाचें दिसून येतलें. आपूण दुबळो पडिल्लों, ह्या दुख्खांनी आपणाक घटाय दिली आनी आशिल्लों ताचेकूय आतां घटमूट जालां, सोंशीक जालां म्हणपाची जाणवीक जातली.

आनी जिवीत गिरेस्त जाल्लेवरी दिसतलें.

पुणून फकत टॉनिकांचेर मनीस केन्ना जियेला व्हय? टॉनिकां मदीं मदीं घेवपाचीं. सदांच न्हय. आयुश्यभरूय न्हय.

तशीं दुख्खां, अरिश्टां, संकश्टां मदीं मदीं येवचीं. सदांकाळ न्हय. सदांकाळ येत रावलीं जाल्यार मनीस जिविताक उबगतलो. आनी 'नज... म्हज्यान आनीक आनीक नज' अशें म्हणपाक लागतलो.

सूरदासाच्या जिवितांत एका सारकीं दुख्खां येत रावलीं. संत आसलो तरूय दुख्खां सोंसून तो एक दीस निर्शेलो आनी ताच्या तोंडांतल्यान 'नज, आनीक आनीक सोंसूं नज...' अब तो जीवन हारे' हीं उतरां फुटलीं.

उतरां फुटलीं खरीं. पुणून त्याच खिणाक तो भानार आयलो. म्हणपाक लागलो, आतां मेरेन हांव म्हजोच आधार घेवन दुख्खां आड झुजत राविल्लों. मनीस फकत आपणाल्या बळान जिवितांत जैत जोडूंक पावना... 'ताचो' आधार घेवंक जाय. ताका उलो मारूंक जाय. हांवें ताका उलो मारलो ना म्हूण 'तो' म्हज्या आधाराक अजून येवंक ना. मारिल्लो जाल्यार, धांवन येतलोच आशिल्लो...'

देखून, 'अब तो जीवन हारे' ह्या उतरां फाटोफाट रोखडोच ताणें 'हे गोविन्द, हे गोपाळ' म्हूण 'ताका' उलो मारलो.

ताका गजेन्द्राचो उगडास जालो.

हतयांचो राजा गजेन्द्र हत्तिणींक घेवन क्रिडा करतालो. मदींच ताका तान लागली. म्हऱ्यांतूच दर्यो आशिल्लो. उदक पियेवन तान न्हिवयतलो म्हूण तो दर्यांत देंवलो. दर्यांत मानगें आसा म्हणपाची ताका खंय खबर! उदकांत देंविल्लो मात, मानग्यान ताका पांयांक धरून धडम् करून आपटिलो.

नीर पिवन हेतु गयो, सिंधु के किनारे

सिंधु बीच बरात ग्राह, चरन धरि पछारे।

गजेन्द्राक लज जाली. हत्तिणीं मुखार मानग्यान आपणाक पांयांक धरून आपटुचो? ताका आपणालो अवमान जाल्ले वरी दिसलो. 'अब्बा! हांव हतयांचो राजा. हतयान सोंड वयर काडून फाँ केल्यार पुरो, वाग, शींव, गेंडे लेगीत भियेवन पळटात आनी तूं येदेंशें मानगें म्हाका पांयांक धरून आपटिता?... तुका दाखयतां हांव' अशें म्हळें आनी पांय मानग्याच्या तोंडांतल्यान ओडून काडपाचो ताणें यत्न केलो. पुणून, पांय तोंडांतल्यान सुटलोना. गजेन्द्र तेमाक पेटलो.

चार प्रहर जुदध भयो, ले गयो मंझधारे

नाक कान डुबन लागे, कृष्ण को पुकारे।

एक प्रहर म्हळ्यार तीन वरां. तीन चोक बारा वरां गजेन्द्राचें मानग्याकडेन

झूज पेटलें. मानग्या मुखार ताचें कांय चलना तें ताणें पळेलें. तो जितलो नेट करता तितलें मानगें ताका पोंदा ओडून व्हरता. गजेन्द्राच्या नाका कानांत उदक गेलें तेन्ना —

आपणाक सोडोवपाचे सगळे यत्न ताणें सोडून दिले आनी कृष्णाक उलो मारलो, 'कृष्णा, गोविन्दा, गोपाळा, धांव आतां... ह्या संकश्टांतल्यान तूंच म्हाका सोडय आतां.'

कृष्ण द्वारकेंत आशिल्लो. ताच्या कानार हो उलो आदळ्ळो. इतलेंच न्हय, तर द्वारकेंतल्या सगळ्यांच्या कानार हो उलो पडलो. सगळे उचांबळीत जाले. कृष्ण रावला? शंख, चक्र, गदा, पद्म घेवन गरुडार बसून नीट गजेन्द्रासरीं पावलो.

द्वारका में शब्द गयो, शोर भयो भारे
शंख-चक्र-गदा-पद्म, गरूड लै सिधारे

एक पळेलें? शंख, चक्र, गदा, पद्म कृष्णाचीं आयुधां न्हय. विष्णूचीं आयुधां तीं. तशें, गरुडूय कृष्णाचें वाहन न्हय. विष्णूचें. गजेन्द्र कृष्णाक उलो मारता आनी सूरदास मानग्याच्या तोंडांतलो ताका सोडोवन हाडपाक विष्णूक धाडून दिता. कृष्ण वेगळो आनी विष्णू वेगळो म्हणपाचें सूरदास नकळ आशिल्लो व्हय? अशें कांय म्हणूं नज. पुणून सूरदास दोगांकूय एकूच मानता. दोनां मजगतीं तो फरक करिना. तें कित्याक, तो कृष्ण आनी राम हांचेय मजगतीं फरक करिना. 'निर्बल के बल राम' पदांत गजेन्द्राची हीच खबर सांगता आसतना 'निर्बल व्है, बल राम पुकार्यो / आये आधे नाम' अशें एक चित्र ताणें आमचे मुखार उबें केलां. गजेन्द्रान सगळे यत्न सोडून दिले, सामको निर्बळ जालो आनी ताणें रामाक उलो मारलो अशें म्हळां. आनी राम? अर्देंच नांव आयकून – फकत 'रा' आयकून – धांवत आयलो – 'आये आधे नाम' म्हळां.

कृष्ण आनी राम एक न्हय. दोगूय वेगळीं विभूतिमत्त्वां आशिल्ले अवतार. दोगूय दोन वेगळ्या काळांतले. पुणून सूरदासाक तांचीं खेरीत व्यक्तित्वांय लागनात. तांचे खेरीत काळूय लागनात. वेगळोच आयाम हो – काळाचें आनी सुवातेचें अंतर तोडपी. प्रज्ञाचक्षु सूरसादाक तो लाभिल्लो.

संकश्टां वेळार आपणें 'ताका' उलो मारपाचो, मारलो ना म्हूण आपूण निर्शेलों हाची जाणवीक जायनाफुडें सूरदास 'अब तो जीवन हारे, हे गोविन्द, हे गोपाळ' अशें म्हणून अदीक खोलायेन ताका उलो मारता.

उलो मारपाचो होच खरो खीण अशें ताका दिसता. आनी तो म्हणटा —

सूर कहे श्याम सुनो, शरण है तिहारे
अब की बार पार करो, नन्द के दुलारे।

श्यामा, आयक, आतां मेरेन म्हज्याच बळाचो आधार घेवन हांव झुजत आयिल्लों. आतां हांव तुज्या पांयांकडेन आयलां. 'अब की बार पार करो, नन्द के दुलारे.'

सोडयलाच जावंक जाय श्यामान सूरसादाक सगळ्या दुख्खांतल्यान, संकश्टांतल्यान. शंख, चक्र, गदा, पद्म घेवन 'तो' ताच्यांतूच रिगला आसूंक जाय आनी ताचेच उदेशीं ताचीं सगळीं दुख्खां ताणें पयस केल्लीं आसूंक जाय.

ईश्वराक जो शरण वता तो, तो उरना. नवो जाता. 'तो' जाता. ताचे हस्तुकीं जें घडटा तें तो करिना; तें 'तो' करून घेता.

## संयुक्त गोंय

म्हाका सांगपाक खूब खंत भोगता, ज्या उद्देशान कारवाराक पयली कोंकणी परिशद भरिल्ली त्या उद्देशा पसून आयचे कोंकणी-भक्त खूब पयस गेल्यात. कोंकणी परिशद धा कडेन शिंपडिल्ल्या कोंकणी-भक्तांची आशिल्ली. फकत 'गोंयवादी' लोकांची नाशिल्ली. संयुक्त महाराष्ट्र, संयुक्त कर्णाटक, संयुक्त आंध्र, महागुजरात बी स्वतंत्र हिन्दुस्तानांत नवे प्रांत घडोवपाचो त्या त्या वाटारांतले लोक वावर करताले तसो 'संयुक्त गोंय' नांवाचो एक खेरीत प्रांत घडोवन हाडप हो परिशदेचो उद्देश आशिल्लो. फकत पुर्तुगेजां शेकातळा आशिल्लें गोंय सदांकाळ वेगळें दवरप हो नाशिल्लो. पुर्तुगेजांचें गोंय वेगळें दवरपाक – आनी, हे भाशेन, पुर्तुगेजांच्या वसणूकवादाचें एक स्मारक उबें करपाक – स. माधव मंजुनाथ शानभाग आनी पयले परिशदेचे तांगेले सांगाती आपणाली शक्त खर्च करचे नाशिल्ले.

कोंकणींत साहित्य-निर्मिती करप हें आमचें फकत एक साधन आशिल्लें. साध्य संयुक्त गोंय आशिल्लें. संयुक्त गोंयाक परिशदेचे म्हालगडे 'कोंकण देस' म्हणटाले. 'कोंकण आमचो देस, आवय कोंकणी भास' हें गीत कवी बयाभावांनी ह्याच संदर्भांत रचिल्लें आनी हें गीत आमी गोंय स्वतंत्र जावचे पयलीं जितलींय परिशदेचीं अधिवेशनां जालीं तितल्याय अधिवेशनांनी म्हणीत आयिल्ले. साहित्य निर्मिती हेंच आमचें साध्य आशिल्लें जाल्यार कोंकणीक मराठीची बोलू मानून लेगीत आमच्यांनी तें साध्य करूंक जातलें. आमकां कोण आडावचो नाशिल्लो. कोण विरोधूय करचो नाशिल्लो. बहिणाबाईन अहिराणी बोलींत साहित्य निर्मिती केली, तिचो कोणेंच विरोध करूंक ना. उरफाटी, महाराष्ट्रान तिच्या साहित्याची तुस्त तोखणायूच केल्या. आयज लेगीत मालवणी नाटकांची महाराष्ट्र तुस्त तोखणाय करता. तशी आमच्या साहित्याचीय तुस्त जातली आशिल्ली. पुणून आमी साहित्य-निर्मितिचें काम कोंकणी ही मराठीची बोली न्हय, तर 'एक स्वतंत्र भास' ती, ही भूमिका घेवन सुरू केलें. आनी विरोधकांनी हें काम फकत साहित्य निर्मितिचें न्हय, तर कोंकणीचो एक स्वतंत्र प्रांत निर्मुपाचें काम हें अशें मानून साहित्य निर्मितिच्या आमच्या कामाक विरोध केलो. मराठी, कन्नड, तेलगू, गुजराती ह्या भासांक 'भासो न्हय' म्हणपी कोणूच नाशिल्ले. आमचे भाशेक 'भासूच न्हय' म्हणपी आमचे मजगतींच कितलेशे जाण आशिल्ले. म्हूण, ह्या विरोधकां आड आमकां झुजचें पडलें. आनी ह्याच एका संघर्शांत आमी घुसपून उरले. आनी परिशदेच्या जाळवणदारांनी जो उद्देश आपणा मुखार दवरिल्लो ताचे पसून पयस गेले. इतले पयस गेले कीं आयज कोणूय मूळ उद्देशाचो उगडास करून दीत जाल्यार ताका 'अविचारी' म्हणपा मेरेन आमचे आयचे कांय म्हालगडे पावल्यात!

म्हजें स्पश्ट मत्त जालां – 'गोंयवादी' लोकांनी कोंकणी चळवळिचो विस्वासघात केला. तिका परती मूळ मारगार हाडूंक जाय. सोंपें काम न्हय हें, हांव जाणां. पुणून कोंकणीक भारतीय घटनेचे आठवे वळेरेंत पावोवप हेंवूय सोंपें काम नाशिल्लें. तरी आसतना सातत्यान संघर्श करून आमी तिका तिच्या हक्काचे हे सुवातेर पावयलीच काय ना? तशें, कोंकणी चळवळीक मारगार हाडून तिच्या मूळ उद्दिश्टां कडेन व्हरप आमकां कठीण वचूंक जायना. फकत ह्या नितशयान पेटिल्ले कांय तरणाटे परिशदेक मेळूंक जाय. गोंयचे उत्तरेकडलो सिंधुदुर्ग आनी दक्षिणेकडलो कारवार हे दोनूय जिल्हे गोंयाक जोडपाचो वावर जावंकूच जाय. नाजाल्यार कोंकणी मनशाक फुडार ना आनी कोंकणी साहित्याकूय ना हें घट मतींत दवरिल्लें बरें.

आयज म्हाका ७५वें चलता. म्हजें निमाणें पेणें म्हाका स्पश्ट बरें दिश्टी पडपाक लागलां. पासपोर्ट काडून दवरला. फकत व्हिसाची वाट पळेतां. पुणून, कारवाराक कोंकणी परिशदेच्या षष्ठ्यब्दिपूर्ती सुवाळ्याक जमिल्ल्या सगळ्या कोंकणी भक्तांनी हे दिकेन पावल मारचें थारायलें जाल्यार म्हजी यात्रा कांय वर्सां फुडें धुकलपाक शिकस्तिचे यत्न करतलों आनी तुमच्या हातांत हात घालून जीव ओतून वावुरतलों इतलें आश्वासन आयजूच तुमकां दिवन उडयतां.

(८ जुलैक कारवारा जाल्ल्या कोंकणी परिशदेच्या षष्ठ्यब्दिपूर्ती सुवाळ्याक केल्ल्या उलोवपांतलो वांटो.)

# तॉलस्तॉयचो प्रज्ञावाद

[ १ ]

तॉलस्तॉयचें एक आगळें वेगळें पुस्तक वाचूंक मेळ्ळें. चार खिस्तिंनी ताचो आपरोस काडून दिवचो थारायला.

तॉलस्तॉल उतार पिरायेचो जाला. म्हणटा, पन्नास वर्सांचे पिरायेचो जायसर आपूण जल्म आनी मरण ह्या दोन तोंकां मदल्या जिविताकूच जिवीत मानीत आयिल्लों. आनी, एक दीस मरपी, ना जावपी ह्या जिवितांत चडांत चड सुखां भोगप हाकाच जियेवप म्हणीत आयिल्लों. सगळे तरेचे यत्न करून आपणें तरांतरांचीं सुखां भोगलीं. पुणून वर्सां वाडत गेलीं तशें तशें आपणाक दिसपाक लागलें – जें आपूण आंवडेतालों तें सूख आपणाक केन्ना मेळूंक पावलेंच ना. आनी जें मेळ्ळें शें दिसलें तें सुखा सारकें दिसलें ना. 'हाका सूख म्हणूं नज, आनी सूख कशें आसूंय नज' अशें दिसलें.

हे वटेन पिराय वाडत गेली आनी आपणालें मरण आपणाक स्पश्ट दिश्टी पडपाक लागलें. मरण आपणाक कशेंच चुकोवंक येवपाचें ना आनी जिवितांत अंतीं कश्ट, पिडा, म्हातारपण आनी मरण सोडून आपणा वांट्याक कांयच येवपाचें ना हाची जाणवीक आपणाक खोलायेन जावपाक लागली.

अशें कित्याक जावचें अशें आपणाकूच आपणें विचारलें. आपणाक जाप केन्ना मेळ्ळी ना.

आपूण सुखी जावंक वावुरता आसतनाच दुसऱ्यांकूय सुखी करपाक वावुरचें अशें कांय जाण सांगताले तें आयकल्लें. केन्ना केन्ना आपणाल्याच तोंडांतल्यान हें सुभाशीत फुट्टालें. पुणून आपणाक दुसऱ्यांच्या सुखा खातीर वावरप जमनाशिल्लें. कित्याक, जितले पोटतिडकेन आपूण आपणाल्या सुखा खातीर वावुरतालों तितले पोटतिडकेन दुसऱ्यांच्या सुखा खातीर आपणाक वावरूंकच येनाशिल्लें. आनी दुसरें म्हळ्यार, दुसरेय आपणा भाशेनूच एक दीस मरपा खातीर जल्माक आयल्यात, तांकां सुखी करपाच्या आपणाल्या यत्नांक कांयच अर्थ ना अशेंय दिसतालें.

तॉलस्तॉय निर्शेता. आपूण विचित्र मनीस आसूंक जाय म्हूण निर्शेतां अशें ताका दिसता. म्हूण, तो भोंवतणचे लोक कशे जियेतात, कित्या खातीर जियेतात, खंयचे प्रेरणेन जियेतात हें नियाळपाक लागता. कोणाकूच आपूण कित्यां खातीर जियेतां हें खबर ना म्हणपाचें ताका दिसून येता. जिविता संबंदान कोणूच कांय चिंतिनात हें तो पळेता. चडशे सगळे भुरगेपणांत मेळिल्ल्या संस्कारांक धरून जियेतात आनी 'जियेवप म्हळ्यार अशेंच जियेवप' अशें मानतात, ह्या निर्णयार तो पावता.

आनी हांच्या जिविताक कांय अर्थ ना, अशें तो म्हणपाक लागता.

मागीर तो आपणाचेर पडिल्ल्या धर्मसंस्कारांची तर्जणी करपाक बसता. तो ग्रीक ऑर्थोडॉक्स चर्चाच्या संस्कारांत वाडिल्लो. रशियेंत चलपी एक खिस्ती पंथ हो. जितलो खोलायेंत देंवता तितलीं तितलीं ह्या धर्मसंस्कारांत सत्यां परस चड तड्डकांच भरिल्लीं ताका दिश्टी पडपाक लागतात. ह्या चर्चान धर्माचो मक्तो आपणाकडेन घेतला आनी तें लोकांक फटयता म्हणपाचें ताका स्पश्ट बरें दिसूंक लागता. लोक दुबळो आनी भेंकरो, बाबडो फटोवन घेता. ते भायर, तो पळेता, ग्रीक चर्चा भाशेन खिस्ताचे शिकवणेचो मक्तो घेवन बशिल्लें आनीक एक चर्च संवसारांत आसा -- रोमन कॅथलीक चर्च. ताचोय होच धंदो चल्ला. मार्टिन ल्युथराचो प्रोटेस्टंट पंथ आसा. ताचोय होच धंदो चल्ला. तिनूय पंथ खिस्ताचेच शिकवणुकेचो प्रचार करतात. पुणून शिकवणूक तिनांचीय तीन तरांची. एकिमेकिंकडेन ताळमेळ नाशिल्ली. आनी वयल्यान आपणालीच शिकवण खरी म्हूण सांगपी.

तो जाणां, खिस्ती धर्मा भायर संवसारांत आनीक कांय धर्म-मत्तां आसात. तांणीय वेगळे वेगळे कडल्या लोकांक संस्कारीत केल्यात. तो हिन्दूंचो, बुद्धाचो, महम्मदाचो तसो कोन्फुस्तूचो धर्म समजून घेवपाचो यत्न करता. हांगाय ताका तेंच दिश्टी पडटा. सत्य आपणाकूच समजलां अशें हांचेंय म्हणणें. तॉलस्तॉयाक हेवूय सगळे धर्म विसंगतिंनी भरिल्ले, लोकांचे कुड्डे विस्वास वाडोवपी धर्म दिसतात. सगळ्यांत भितर घयरांव दाटिल्लो तो पळेता आनी वयल्यान 'आपुणूच खरो, दुसरे फट' अशें दर एकलो म्हणटा हेंवूय तो पळेता.

ताचो एकाय धर्माचेर भावार्त बसना.

एकाय धर्माकडेन आपणाक पडल्यात त्या प्रस्नांच्यो जापो नात; एकाय धर्मांत आपणालीं दुख्खां ना करपाची तांक ना, एकाय धर्माकडल्यान आपणाली निर्शेणी ना जावपाची आस्त ना ह्या निर्णयार तो पावता. सामको म्हळ्यार सामकोच निर्शेता. असलें अर्थ नाशिल्लें जिवीत कित्याक जियेवंक जाय, ते परस मेल्लों बरो, अशें तो म्हणपाक लागता.

केन्ना केन्ना जिवीत सोंपोवपाचेय विचार ताच्या मनांत घोळपाक लागतात.

## उजवाडाचें कीर्ण

निर्शेणेच्या असल्या गुपाट काळखांत पडिल्लो आसतना अवचीत एक दीस ताका उजवाडाचें एक ल्हानशें कीर्ण दिश्टी पडटा. कितें तरी 'कळिल्ले' वरी ताका दिसता. तो 'नवो तेश्तामेन्त' घेवन बसता. आतां मेरेन वाचिल्ल्यो विद्वानांच्यो सगळ्यो अर्थावण्यो कडेक उडोवन उकत्या मनान आनी स्वतंत्र रितीन तो नव्या तेश्तामेन्तांतली शिकवण समजून घेवपाचो यत्न करता. आनी जितलो खोलायेंत देंवता तितलें तितलें ताका 'दिश्टी पडिल्लें सत्य' ताचे मुखार स्पश्ट जाता आनी स्पश्ट जायत वता. मनांतल्यो ताच्यो सगळ्यो गांठी सुट्टात आनी ताच्या सगळ्या प्रस्नांच्यो जापो ताका मेळटात.

तो म्हणटा —

'म्हाकाच एकल्याक हें सत्य होलमलां अशें न्हय. बरें, खिस्ताकूच एकल्याक तें होलमल्लें, अशेंय न्हय. खिस्ता आदल्या आनी खिस्ता उपरांतच्या बुद्ध, सॉक्रतीश, पाश्काल, स्पिनोझा, फिक्थ, फॉयरबाख सारकेल्यांकूय तें समजल्लें. हांव जें सांगतां तें म्हजें एकल्याचें मत्त न्हय. म्हाका तेंको दिवपाक म्हजे फाटल्यान इतलेय हे उबे आसात.'

होलमल्ल्या ह्या सत्याक धरून तो जियेवपाचे कांय नेम घडयता आनी ह्या नेमांक धरून तो जियेता. आनी अंतीं म्हणटा, 'आतां वीस वर्सां जालीं, ह्या नेमांक धरून हांव जियेत आयलां. खूब आनन्दान जियेतां आनी आनंदानूच मरणाचे दिकेन पावलां घालीत आसां.'

ज्या सत्यान आपणाक संतोस दिला, आनन्दान जियेवपाची एक वाट दाखयल्या तें दुसऱ्याक सांगचें, आपणाक मेळ्ळा तसलो संतोस तांकाय मेळचो, तांकांय जियेवपाची वाट मेळची म्हूण —

तो हें पुस्तक बरयता.

[ २ ]

## मनशाचें रूप

ताका कितें होलमल्लें ?

सगळ्यांत पयलीं ताका मनीस 'कोण' म्हणपाचें कळिल्लें. मनीस एक कूड घेवन जल्माक आयला आनी कुडिच्यो सगळ्यो भुको आनी गरजो भागयत रावला म्हूण तो हेर जिवां सारको एक जीव दिसलो तरूय कुडिच्यो सगळ्यो भुको आनी गरजो भिरकटावन भायर मारपाची तांक आशिल्लो तो एक आत्मोच घेवन जल्माक आयला. पूण हेर जिवां सारको तो जीव उरूंक ना. ताच्यांत एक आध्यात्मीक अंश आसा, हें मतींत धरूंक जाय आनी तें मतींत धरून जियेवचें कशें आनी कित्या खातीर, हें ताणें थारावंक जाय.

सगळ्यांत पयलें सत्य ताका होलमलें तें हें – मनशाच्या खरेल्या रुपाचें.

रोखडेंच दुसरें सत्य ताका होलमलें तें अशें —

किडी मुंग्यां पसून हती गेंड्या मेरेनचे सगळेच जीव जियेतात. तशी, दुर्वेपसून पिंपळ वडा मेरेनची सगळी वनस्पत-सृश्टय जियेता. धाय दिको भरून ओतपी चैतन्य, हे भाशेन, जिणेच्या रुपान सगळेकडेन स्फुरून आयलां. आतां प्रस्न उपरासता – भुरगें जियेता तेन्ना तें जियेता, काय जिणेच्या रुपान स्फुरून आयिल्लें चैतन्य ताच्यांतल्यान जियेता? भुरग्याक आपूण जियेतां म्हणपाचें भानूच नासता. तशें, सरसमान मनशाक आपूण जियेतां म्हणपाचें भान नासता. आपूण जियेतां अशें ताच्यान केन्ना म्हणूं येता? ताच्यांतल्या आध्यात्मीक अंशाक जाग येतली तेन्ना. ताच्यांतल्या आध्यात्मीक अंशाक जाग आयल्या अशें केन्ना म्हणूं येता? ताका आपलें बरें-भलें जावचें-शें दिसता तशें दुसऱ्याच्या बऱ्या-भल्यांतूच आपणालें बरें-भलें आसपावता म्हणपाची जाणवीक जाता तेन्ना.

आपूण कित्या खातीर जियेतां हाची स्पश्ट जाणवीक मनशाक जाता तेन्नाच तो जियेता म्हणूंक जाय, हें दुसरें सत्य ताका होलमता.

आपूण कित्या खातीर जियेतां हे जाणविकायेन जियेले उपरांतूय मनशाचीं जेवप-खावप, न्हिदप-उठप बी कुडिच्यो भुको भागोवपाचीं कामां आदले वरीच चलत रावतात, म्हूण ताका हेर जिवां सारको एक जीव – एक पशू लेखूंक येना. कित्याक, आपणाले कुडिच्यो भुको गरजो भागयता आसतना तो दुसऱ्यांच्या बऱ्या भल्या खातिरूय आंवडेत आसता. हेर जीव अशे आंवडेनात. हेर जीव दुसऱ्यांचें कितेंच लावन घेनात. मनीस लावन घेता. मनीस पशू न्हय. पुणून देवूय न्हय. पशुपणाच्यो शिमो हुंपून भायर आयिल्लो आनी देवपणाचे दिकेन पावलां उखलून चलत राविल्लो एक आध्यात्मीक पुरूस, हेंच ताचें खरें रूप.

मागीर दुसऱ्यांच्या बऱ्या भल्या खातीर वावुरपाचे प्रेरणेचें रूप तो नियाळपाक लागता तेन्ना, ही प्रेरणा सगळ्यांच्या काळजांत वसता आनी लोक तिका दुसऱ्या एका नांवान वळखतात, तिका ते **मोग** म्हणटात म्हणपाचें ताका कळटा.

जिणेच्या रुपान चोंय दिकांतलें एकूच चैतन्य स्फुरिल्लें आसतना तें वेगळ्या वेगळ्या कुडिंनी आपणाक कित्याक बंदिस्त करून रावलें, अखंड कित्याक रावलें ना, असो एक प्रस्न टॉलस्टॉयाक पडिल्लो. तोय अंतीं सुट्टा. आनी तो म्हणपाक लागता, जण एके कुडींत आशिल्लें हें मोगाचें तत्त्वूच वेगळ्या वेगळ्या कुडींक एक करता; एकामेकांकडेन जोडटा. मोगाचें हें नातें इतलें घट कीं परक्यांक लेगीत तें घरचे करता, पयस गेल्ल्यांक म्हऱ्यांत हाडटा. दुस्मान जाल्ल्यांक इश्ट करता. तें कित्याक, मोगान एकठांय आयिल्ल्या दोगां मजगतीं मरण लेगीत अंतर पडूंक दिना.

भायल्यान संवसार वेगळो वेगळो दिसलो तरूय भितरल्यान तो एक.

मोगाची ही तांक लक्षांत येनाफुडें तो म्हणपाक लागता, बायल-भुरगीं, सोयरीं धायरीं, आपलीं पेलीं करीत करीत अख्ख्या संवसाराक मोगान वेंगावपा इतलो मनीस काळजान आनी करणेन व्हड जावंक जाय. असो व्हड जावप हीच जिविताची मोख. होच जिविताचो उद्देश. मोगाचें वर्तूळ वाडयत वाडयत विरोधाचे सुवातेर एकचार, संघर्शाचे सुवातेर सहकार घडोवन हाडप आनी, हे भाशेन, धर्तरिर स्वर्ग (देवाचें राज्य) हाडप हीच मनशाची मुखेल प्रेरणा जावंक जाय.

जियेवप कित्या खातीर? धर्तरिर स्वर्ग निर्मुपा खातीर. तो कसो निर्मप? मोगान. काळजांत फुटिल्ली मोगाची झर संवसारभर व्हांवती करून. ती कोणें व्हांवती करप? जागरूक मनशान.

हें स्पश्ट जातकच तो म्हणटा, मोग जागोवंक जाय. मोग वाडोवंक जाय. मोग व्हांवतो करूंक जाय. मोग जागोवपाक वाडोवपाक, व्हांवतो करपाक कांय गजाली आडखळी हाडटात, ह्यो आडखळी सगळ्यांत पयलीं पयस करूंक जाय.

आडखळिंचें मूळ खंय सोदपाचें? कुडींत. आपूण हेरां परस वेगळो ही जाणवीक मनशाक सगळ्यांत चड ताची कुडूच करून दिता. कुडूच मोगाचे उकतावणेक बांद घालता. देखून सगळ्यांत पयलें काम हे बांद तोडपाचें करूंक जाय. जल्मा सावन तिका ही जाग येना. बरींच वर्सां जियेले उपरांतूय येना. ते मेरेन आमकां कितल्योश्यो संवंयो जातात. एक दीस अवचीत जाग येता. पुणून जाग आयले उपरांतूय मुदलांतल्यो बडी साप्प ना जायनात. कितलींशीं वर्सां मनीस आपूण आनी आपणालें बरें-भलें हातुंतूच गुल्ल उरता. देखून निश्ठूर करण्यो करपाकूय तो अनमनना. कांय जाण कुडिची ही बड पळोवन तिका दण्डणावन 'जाग्यार हाडपाचो' यत्न करीत आयल्यात. केन्ना धर्माच्या नांवान तर केन्ना तपस्येच्या नांवान. कांय जाण ही दण्डणावणी पळोवन 'शी शी, कुडीक अशे त्रास दिवंक फावनात' अशें म्हणटात आनी तिच्यो गरजो भुको भागोवपाचो यत्न करतात. एक त्यागाचें, कश्टांचें जिवीत. तर दुसरें भोगांचें, रुचिंचें जिवीत. टॉलस्टॉय म्हणटा, हीं दोनूय तोंकां समा न्हय. कुडीक दण्डणावंक तर जायच ना. तशी तिका भोगांतूय लोळूंक दिवंक जायना. कितें करूंक जाय – कुडिच्या भुकां आनी गरजां सुवादीन जायनासतना मनशाक धनीपणान जियेवंक येवंक जाय.

तो एके गजालीकडेन आमचें लक्ष ओडटा आनी म्हणटा, मोग काळजांत भितर आसलो तरूय तो थंयच बंदिस्त रावंक सोदिना. तो मुक्त जावंक आंवडेता. भायर सरून सगळे कडेन व्हावंक सोदता म्हणपाचें आमकां कळूंक जाय आनी ताची वाट आमी मेकळी करून दिवंक जाय. वाट मेकळी करून दिवपाच्या ह्या वावराक टॉलस्टॉल 'पशुत्वांतल्यान आध्यात्मीक अंशाची मुक्ती करप' म्हणटा आनी खरें जीवन तें हेंच मुक्त जीवन म्हण सांगता. तो विचारता, बॉयलरांत भरिल्ली वाफ बॉयलरांतूच भितर केन्ना संतुश्ट रावता व्हय? ती भायर येवंक आंवडेता म्हूण ती बॉयलराचें धांकणें सदां भितरल्यान धुकलीत रावता. तसो काळजांतलो मोग भायर व्हांवंक सोदता. देखून ताचे वाटेंत ज्यो आडखळी येतात त्यो धुकलपाचो तो सदां यत्न करीत रावला.

जियेवपाची दुसरी तरा खबर नाशिल्ल्यान मनीस जल्माक येत सावन बरींच वर्सां मेरेन एके तरेचें पशू जीवनच जियेत रावता. जाग येतकूच आध्यात्मीक जाण आयिल्लें जिवीत जियेवप हेंच खरें जिवीत अशें मानपाक लागता. पुणून तेन्नाय तो आदलें जिवीत सामकेंच सोडून दिना. तें साप विसरना. हाका लागून ताच्या जिवितांत एक विसंगती उबी जाता. तो धड आध्यात्मीक जिवितूय जियेवंक पावना आनी धड पशुजीवनांतलीं सुखांय भोगूंक पावना. आनी चुको करीत रावता. ह्यो चुको ताचे आध्यात्मीक उकतावणेक आडखळी हाडटात. ते भायर, आदले पिळ्गेंतले आवय बापूय, आजे पणजे, ह्योच चुको ताका दायजानूय दितात. हे भाशेन, बडिच्यो संवंयो दायजान मेळिल्ल्या संवंयांक लागून घट जावपाक लागतात. ह्या संस्कारांतल्यान मनशान सगळ्यांत पयलीं आपणाक सोडोवन घेवंक जाय.

कसो सोडोवन घेवंक जाय? फुडल्या आंकांत पळोवंया.

[चलता]

# जादू

सुधा खरंगटे

मामागेर वचप म्हळ्यार म्हजी मज्जाच मज्जा! घरांत पावल घालना बरोबर सगळीं जाणां म्हजेच सेवेक लागतात सामकीं! व्हडले मामीन वेंगेंत काडसर दत्तीमामी म्हाका हांडीर घेता. आजी वेंगेंत काडटा म्हणसर मामा चॉकलेट दाखोवन आपलेकडेन आफयता. आईकडेन पळोवप उलोवप बी सगळें मागीर...

पूण आज हांव आनी आई मामागेर आयलीं जाल्यार सगळीं आईकूच शीं मदीं घेवन बसलीं...!

''तुवें इंफोरमासांव काडलां काय ना गो?'' आजी आईक विचारताली.

''दिसूंक – सभावान बी कशें काय?'' दत्तीमामील्यो कपलाच्यो आंठयो सामक्यो मेजूंक येताल्यो.

''बापूय ना खंय...?... आवय सिर्विसेक वता खंय?'' व्हडली मामी विचारूंक लागली.

- म्हजेकडेन कोणच पळयना...? आतां कितें करचें?... पोले फुगोवन कुशीक वचून बसचें? काय सोमतेंच रडपाक सुरू करचें? रडलें म्हणटकच सगल्यांचेंच लक्ष एकदम म्हजेरच वतलें...

हांवें रडपाक उकतें केल्लें तोंड आईलीं उतरां आयकून पुट्ट करून धांपलें.

''कसलो जादू केला कोण जाणा... सामकोच भुलयला दिसता...'' आई म्हणटाली.

''जादू'' हें उतर आयकतनाच हांव सामकें भुल्लुसलें.

पप्पान म्हाका पणजे व्हरून जादूगार रघुवीराचो खेळ दाखयिल्लो. आमच्या गांवांत जादूगार बी केन्नाच येनात. फकत घणसाबैल... आनी केन्ना केन्नाय वांस्वेलां घेवन ना जाल्यार माकोड घेवन कोणूय घांटी सो येता.

मामागेर जादू करपी कोण तरी आयला जातलो. बरेंच जालें. हांव मागीर हो जादूगार कसले कसले जादू करून दाखयतलो तें येवजूंक लागलें. चेंप्यांतल्यान सोंसो काडटलो... काय पारवे काडटलो... ना जाल्यार रंगीत लेंस बी काडटलो...

हेवटेन आई सांगताली, ''बापूय ना ताका... दोतोर आशिल्लो खंय... आवय त्याच हॉस्पिटलांत नर्सिची नोकरी करता... तिगीय चलयोच. दोगांचीं लग्नां जाल्यांत. हें आसा तें निमाणें...''

''मालनाच्या शेजरा रावतात न्हय? मालन कितें म्हणटा?'' आजी विचारताली.

''कितें आनीक?... सामकें काळूर खंय! नदर घालपाचें न्हय! शिकलां... ऑफिसांत नोकरी करता...''

''आनी विनूक कशें आवडलें तर?''

''कोण जाणा? तेंच्च जाय म्हणटा तर तो...!''

''मालन म्हणटलें, म्हजे म्हऱ्यांत उबें रावल्यार सामको काळोकिट्ट म्हारू दिसतलो म्हणून. म्हारू...''

तीं कितें उलयतालीं तें म्हाका कांयच समजलेंना पूण हांव जादवाचे खेळ येवजितालें तें 'म्हारू' हें उतर आयकून एकदम जाग्यार आयलें.

जादू म्हणसर म्हारूय बी?

आमच्या गांवांत म्हारू आसा आनी देंवचार लेगीत आसा... पूण हांवें केन्नाच तांकां पळोवंक नात. खुंटयेकडेन झाडाचेर देंवचार आनी म्हारू रावतात. तिनसांजचे बी तेवटेन वचूंक सगळीं जाणां भितात... पप्पू केदो व्हडलो... शाळेंत लेगीत वचूंक लागला. पप्पान ताका शाळेंत वचपाक येऽद्दें व्हडलें बॅग आनी पुस्तकां हाडल्यांत. तें बॅग फाटीक लायतकच तो खूब व्हडलो दिसता. पूण तो दिसाचो लेगीत खुंटयेकडच्यान एकलो वचूंक भिता.

हांव मात म्हारवाक मात्तूय भिवचें ना. काळो जाल्यार कितें जालें? ताका कित्याक भिवप? एक दीस खुंटयेकडेन वचून म्हारवाक पळोवपाचें म्हज्या मनांत आसा... पूण अजून म्हाका एकलें खंयच वचूंक दिनात...!

मामागेर आज म्हारूय पळोवंक मेळटलो सो दिसता... हांव आनिकय खोशशी जालें.

''तूंच वचून पळोवन यो पुता! एका गांवांत रावन लेगीत आमी कोणेंच पळोवंक ना... आमचें भायर सरपच जायना गो! तूं वच! सारकें पळय-उलय आनी कितें तें सांग. म्हजो जीव मातसो थाऱ्यार घाल. विनूक रकाद धाडूंक लायतां...'' आजी उलयताली.

हांव कितें समजुपाचें तें समजलें. ह्या गांवांतूय म्हारू आसा... आनी आई एकटीच ताका पळोवंक वचपाची आसा.

म्हणजे, म्हजे भशेन आई लेगीत म्हारवाक भिना तर!!

हांवें आईचे फाटल्यान रावपाचो निर्शेव केलो.

जेवणां जातकच आईन म्हाका न्हिदोवपाचो यत्न केलो. पूण हांव कशेंच न्हिदलें ना.

''चल गो बबडू, आमी देवळांत या. थंय नवें गार्डन बांदलां. घसरगुंडी बी मज्जा-मज्जा आसा. चल, तुका दाखयतां...'', विनूमामा म्हाका आग्रो करूंक लागलो. ''थंय मुगो आमी कॅडबरी घेवया दुकानांतल्यान...''

हरशीं जाल्यार हांव सामकें उमेदीन विनूमामा बरोबर वतलें आशिल्लें. पूण घसरगुंडी-चॉकलेट बी सगळें मागीर मेळूं येता. म्हारू मात आजच पळोवंक मेळपाचो आसा हें हांवें घट्ट मतींत धरिल्लें.

हांव आईच्या पदराकच घट्ट धरून तिचे फाटीं-फुडें भोंवत रावलें.

''आज जालां कितें गो तुका? सोड पयलीं पदर... एक थापट पडटलें...''

तोंडान 'पडटलें' म्हळ्ळें खरें पूण आई थापट मारून लेगीत मेकळी जाली. हांवें व्हडल्यान हांबेर फोडलो आनी हिमट्यो काडून काडून रडूंक लागलें.

आनी हांवें चिंतिल्लें तशें जालें. आजी धांवत आयली.

''नाका गो, नाका गो ताका अशें मारूंक...''

''मागीर कितें करूं? म्हाका भायर सरूंक दिना पळय तें...'' आईन बेजारून म्हळें.

''व्हर ताकाय बरोबर! हरशींय जाल्यार एकल्यान वचचें न्हय म्हणटात...'' व्हडले मामीन सांगलें.

हावा-शिवा करून शेवटाक आईन म्हाका नवो व्हिस्तीद बी घालून, केंस वळोवन तयार केलें.

सगळे वाटेर हांव ओगी रावलें. आईक 'म्हाका हांडीर धर गे' अशें लेगीत म्हळें ना.

''आई, खंय गे तो म्हारू?'' आमी एका घराच्या आंगणांत भितर सरतात तें पळोवन भोंवतणचीं झाडां तेळीत हांवें विचारलें. ''म्हारू झाडाचेर रावता न्हय?''

आईन म्हजेर दोळे मोठ्ठे केले आनी म्हळें, ''ओग्गी बसतलें आं! तुजी बडबड नाका हांगा!''

केन्नाय पळय, हांवें कितेंय विचारलें उलयलें की आई म्हजेर दोळे मोठ्ठे करता. पयलीं पयलीं हांव खूब भितालें. आतां संवंय जाल्या.

हांवें परतें विचारलें, ''आई, खंय गे तो म्हारू? तूं म्हणटाली न्हय...?''

''म्हारू नाजाल्यार म्हारवीण जायत.'' आईन म्हळें आनी आपले भितरच उलयिल्ले भशेन केलें. ''कसलो जादू केला आनी भुलयला देवच जाणा.''

हांव उमेदीन रावलें. आतां म्हाका म्हारू नाजाल्यार म्हारवीण तरी दिश्टी पडटलीच म्हणून!

पूण आमी घरांत पावलीं तेन्ना फुस्स! म्हारूय ना आनी म्हारवीणय ना. एकलें सोबीत शें काळें-सावळें चली मात आशिल्लें थंय. बरीऽ साडी-बिडी न्हेसून! आमकां पळोवन तोंडभर हांसलें.

''येयात! आई येवचीच जाल्या हॉस्पिटल्यांतल्यान... हांवें आज लिव्ह काडल्या...''

म्हाका मागीर याद जाली.

''आई, खंय गे तो...'' हांवें मुखार कितेंय विचारचे पयलींच आईन म्हज्या हाताक चिमटो काडलो. मागीर हांवें 'म्हारू खंय?' म्हणून विचारचे बदला 'आवयस्स्' केलें आनी हात चोळूंक लागलें.

तशें तें म्हज्या तोंडाकडेन पळोवन हांसलें. आपल्या सोबीत नाकटांचीं बोटां म्हज्या पोल्याक लावन ताणें विचारलें, ''नांव कितें गो तुजें?''

''बबडू!'' हांवें मोट्या ओर्रान सांगलें.

''हें जालें तुजें घरांतलें अपुबयिचें नांव... तुजें खरें नांव कितें?''

''पप्पा म्हाका अपुरबायेन 'म्हजें भांगर तें' म्हणटा'', हांवें म्हळें.

तें सगले दांत दाखोवन खळखळीत हांसलें. ताचे धवेफुल्ल दांत बरेऽ दिसताले आनी हांसतना पोल्याक बरोऽ बुराक पडटालो.

म्हाका सट्ट करून याद जाली. मेघाताईच्या पोल्यार हांसनाफुडें अशेंच फोणकूल पडटा. तेन्ना सगळीं ताका 'मांय मेली पळय तुजी पोल्यार' म्हणटात.

हांवें म्हजें नांव थंयच सांडलें आनी ताका म्हळें, ''एऽऽ पळय, मांय मेली तुज्या पोल्यार...''

आईन मोठ्ठे दोळे करून म्हाका पळयलें.

तें मात पोट भरून हांसलें.

''उलोवंक आयकना गो तूं...'' ताणें म्हळें.

इतलो वेळ ओग्गी आशिल्ले आईन म्हळें, ''ताच्या अशा बडबडाक लागुनच ताका 'बबडू' म्हणटात आमी. ताचें नांव 'प्रणोती'.

''आगे बाये! कितलें सुंदर नांव गो!'' ताणें म्हळें.

ताणें 'सुंदर नांव' म्हणटकच म्हजे म्हाकाच हांव कोण व्हऽडलेंशें दिसलें आनी त्याच नेटार हांवें विचारून सोडलें – ''आनी तुजें नांव कितें तर?''

''हांव स्वाती...''

इतलेंच?... फकत स्वाती...?

हांवें नाक किसळावन विचारलें – ''इल्लेंशें नांव?... आनी एकच नांव?''

आईन मागीर म्हाका धपकायलें. ''ओग्गी बसता काय ना गो तें थंय? सारकी बडबड चालू! बस एका जाग्यार चुप्प!''

आईन म्हाका एका कदेलार बसयलें. हांवें म्हजें तोंड धांपलें. पूण कान मात उकतेच दवरले.

आई ताका सांगताली, ''आमचो विनू जाणांच तूं, गोरोपिट्ट पाखलो कसो... आमच्या घरांत सगळीं गोरींच... हांवच मातशें फाटीं म्हळ्यार जाता...!'' आपल्या गोऱ्यापिट्ट गुळगुळीत हातावेल्यान हात भोंवडायत आई आपल्याकच तोखेत रावली.

''आमच्या घरांत सामकें उरफाटें! आमचो बाबा काळो आसलो... आई सांवळीच... आमी सगळीं भावंडां काळीं-सावळींच! हांवच मातशें उजळ अशें म्हणटात.'' आनी तें – स्वाती – परतून हांसलें.

म्हाका ताची तोखणाय दिसली. आपूण काळें-सावळें म्हणपाक तें मात्तय कांचवेलें ना. नाजाल्यार आमचे आईमुखार सगळीं अशींऽ बाविल्ले भशेन उलयतात.

''आतां आनी कितें उरलां? एकामेकांक पसंत करून मेकळीं तुमी... दोगय भावजोय म्हज्यो गोऱ्योपिट्ट... विनून घरांत काळो रंग हाडलो अशें जातलें...'' आपले भितरच-शी आई उलोवन गेली.

हांवें तें आयकलेंच. स्वातीनय आयकलेंच जातलें! पूण कांयच आयकलें ना अशें करून तें उठलें.

''तुमी च्या घेतात न्हय? काय कॉफी करूं?'' ताणें विचारलें.

''कॉफीच कर इल्लीशी! साखर मात चड घालुंनाका!'' आईन सांगलें.

''आनी प्रणोती, तूं कितें पितलें? पेप्सी दिवं तुका?''

पेप्सीचें नांव आयकून हांव सट्करून उठलें. आनी ताच्या बोटाक धरून भितर गेलें.

आई म्हजेर दोळे मोठ्ठे करून म्हाका पळेताली हें म्हजे फाटीकच जाणवतालें. हांवें कांय दोळ्यांनी पळोवंक ना न्हय, म्हणून हांव सडसडीत भितर गेलें.

स्वातीन फ्रिजांतल्यान पेप्सीची व्हडली बाटली काडली आनी म्हाका ग्लास सामको भरून पेप्सी दिली. आनी गॅस पेटोवन कॉफी करूंक लागलें.

''एऽऽ'' हांवें ताका उलो केलो.

''म्हजें नांव खबर ना तुका आतां?''

''तशें न्हय गो... गे... गो...'' ताका 'गो' म्हणचें काय 'गे' म्हणचें? हांव घुसपलेंच! म्हजे तकलेंत आईन कितें म्हणिल्लें तेंच घुंवतालें.

''आतां कितें जालें?'' तें म्हजो घुस्पागोंदळ मजेन पळेतालें.

''आतां आईन कितें म्हळ्ळें तें...? विनूमामा आमच्या घरांत काळो रंग हाडटा तें...? म्हळ्यार कितें?''

''तुजे कान बरेच लांब मुगो!'' ताणें म्हजो कान ओडलो... अपुरबायेन! आनी त्याच कानांत हळूच सांगलें, ''आतां हांव तुजी मामी जातलें...''

आनी तें मातशें लजलेंय बी.

म्हजें कुवाडें सुटलें. आतां स्वातीक 'गे'च म्हणप. 'गो' म्हणूंक उपकारना. ''आगो स्वातीमामी'' अशें म्हळ्यार कानाक बरें लागता तरी?

''उलय मगो कितेंय तरी... बबडू...''

''स्वातीमामी, तूं म्हाका त्या दुसऱ्या सुंदर नांवानच उलो मार न्हय...''

''बरें बाये! प्रणोती...''

हांव मामीचेर खूश सामकें. मामाक वचून सांगप – ''म्हाका स्वातीमामी खुब्ब आवडली'' म्हणून.

ते खोशयेभितर हांवें तिका विचारून सोडलें, ''एऽ स्वातीमामी, तुमगेर म्हारू-म्हारवीण बी कोण तरी आसा गे?''

''ना गो बाये! कित्याक गो?''

हांव मातशें निर्शेलेंच! मुजरत पळोवंक म्हणून आयिल्लें तीच वस्त ना! तरीकय आशेन विचारलें, ''आनी जादू करपी? कोणतरी आसा न्हय?''

''जादू करपी? ना गो बाये!'' मामी म्हाका अजापान पळयत रावली.

''म्हणजे अशें गे... जादू करप... भुलोवप बी... तो जादूगार रघुवीर करता पळय...'' हांवें म्हजे भशेन तिका समजावपाचो यत्न केलो.

आनी मागीर कपलार हात मारून ती व्हडा व्हडान हांसुंकच लागली. त्या बोवाळांत दूद फस्स करून गॅसारच रकलें.

हांसून-हांसून स्वातीमामीच्या दोळ्यांत उदक लेगीत आयलें.

स्वातीमामी म्हाका हांसता? म्हाका रागच आयलो.

''स्वातीमामी, तूं म्हाका हांसता मगे?'' हांवें विचारलें.

''ना गो शाण्या! तुका कोण हांसतलो? तूं सामकें अपुरबायेचें शाणें-शाणें गें!'' तिणें म्हाका वेंगेंत घेवन म्हजी पापी घेतली.

तिणें मागीर बेगीबेगीन कॉफी केली.

''आमगेर कोणूय आयल्यार आमी ताका काफये बराबर बिस्किटी जाल्यार शेव... कितेंय पूण खावपाक दितात.'' हांवें तिका सांगलें.

''खरें? हांवय बिस्किटीच दवरतां तर...! हें आनी नाका...''

हांवें पळयलें, तोपांत घमघमीत वासाचो शिरो!

आतां कितें करतलें? ही आनी शिरो परतो धांपून दवरत म्हूण हावें त्या हाताकच धरलें.

''आसूं दी, आसूं दी. बिस्कीट नाजाल्यार शिरो चलता...''

तसो तिणें म्हज्या पोल्याक हळूच चिमटो काडलो.

''आगो चोरा! शिरो आवडटा म्हणून कित्याक सांगना?''

म्हाका लज शी जाली. तिणें बशयांनी शिरो घालो. काफयेचीं चिक्रां नी शिऱ्याच्यो बशयो ट्रेंत दवरल्यो आनी तें घेवन भायर गेली. फाटोफाट व!

ट्रे मेजार दवरून तिणें कदेल ओडून म्हाका बसयलें आनी दुसरें कदेल डून आईकडेन पळयत म्हळें, ''कॉफी घेयात... शिरो खायात इल्लोसो...''

हांवें थारायलें, आईच्या दोळ्याक दोळो दिवप ना! आईक खंयय ल्लेकडेन सगळें 'नाका-नाका' करपाची संवंय. आतांय बी ती शिरो का नाका म्हणत म्हूण हांवें ताकतिकेन म्हजे बशयेंतलो शिरो तोंडांत लो. शिरो खरेंच बरोऽ जाल्लो. आनी मर्दी मर्दी खिसमीस, काजुबियां डके बी मेळटाले. हांव रुचीन खावंक लागलें.

हांवें आईच्या तोंडाक पळोवंक ना तरी आई म्हाका दोळे मोट्टे करून ळयता जातलीच हें जाणा जावनय हांव खायत रावलें.

स्वातीमामीक सोडून घरा वचपाक म्हज्या जिवार आयलें. दिसतालें, ानीक थोडो वेळ तिचेकडन खबरी मारच्यो.

परतें मामागेर वतना आईन कितलेशेच खेपो म्हाका सांगलें, ''परतून ानी तुका खंयच बरोबर व्हरचें ना... सामको कानाक पीळ घाला हावें...'' ण अशें म्हणटना तिणें म्हज्या कानाक पीळ घालोना तितल्याचेर हांव ूश आसलें. हांवें कानार केंस काडलें.

सगळ्या मामयांभितर स्वातीमामीच म्हजी आवडिची मामी करपाचें हांवें ारायिल्लें.

घरा पावतकच सगळीं आई भोंवतणीं जमलीं. सगळीं म्हणजे आजी, हडली मामी, दत्तीमामी आनी विनूमामा... पंकज-पवन बी शाळेंतल्यान ायिल्ले पूण भायर खेळपाक गेल्ले बॅगां घरांत उडोवन... बाबूमामा आनी ाऊमामा अजून येवचेच आसले.

हांव तडक विनूमामाचे मांडयेर वचून बसलें.

''बबडूऽ, आज कितें गो? नेटार? नवे मामीक पळोवन आयलें मुगो?'' त्तीमामी म्हजे वाटेक वचूंक लागली.

''हयच!'' हांव म्हजे भितरच हांसून ओगी रावलें. 'स्वातीमामी काय री दिसता' हें हांव कोणाकच सांगचें नासलें.

''मुर्गट्टा पळय कशें!'' व्हडले मामीन म्हजी शेणकी धरून ओडली.

हांवें म्हज्यो शेणक्यो दोनय हातांनी फाटीं उडयल्यो आनी दोनय ामयांकडेन अश्शें कान वरशें करून पळयलें.

आजी मागीर उमळशिकेन आईक विचारूंक लागली. ''उलय मगो! सांग तरी... कशी आसा चली? पळयली न्हय तुवें?''

''पळयलीऽ'', परवंल्ले भशेन आई उलयली.

''आगो, तुका मुद्दम कुळारा आफोवन हाडलें, सारकी खबर काडटलें म्हणून तूं..! सांग सारकें... मेळ्ळी तुका?''

आईन मागीर नाक किसळायिल्ले भशेन करून म्हळें, ''म्हज्या दोनय भावजांमदीं सोबूंक कठीण...''

हांवें दोनूय मामयांकडेन पळयलें. दत्तीमामी मातशी तरी बारीक आसली. पूण व्हडली मामी... एऽद्दी मोठी... मोटवीच.. दोन खाडक्यो आशिल्लें तोंड आनी चलतना सगळीच थुलथुलताली. पुण गोरीपिट्ट सामकी... कसलेंतरी पान म्हणटा पळय आई... याद जाली... सामकें शेरवडाचें पान... दत्तीमामी हांसतना तांबडीच जाता... पूण नाक चेपिल्लें, दांत मातशे भायर, आनी पोंग घेताली...

''पूण आसा मगो बरी...?'' आजयेन हुसक्यान विचारलें.

''आतां काळी म्हणून कितली काळी? आमच्या घरांत सोबपाची न्हय गे...'' आईन खेदान म्हळें.

म्हाका खऱ्यांनीच आईची तिडक मारली.

काऽय बरी स्वातीमामी! तिचेकडेन पळयल्यार कितलें बरें दिसता! काय बरी हांसता... हांसतना ओंठ आनी दांतच न्हय, तिचे दोळे, पोले, नाक... ती सगळीच हांसता.

पुण मर्दी उलयल्यार आईचो खुटलो पडटलो म्हणून ओगी रावलें.

विनूमामा ओगीच-सो बशिल्लो. सगळ्यांच्यो नदरो ताका जाणवताल्यो. सगळींजाणां ताणें कितेंतरी व्हडलें पातक केल्ले भशेन ताका पळेतालीं.

''विनूक फामिलींतलो गोरो रंग पळोवन पळोवन वाज आयला जातलो...'' दत्तीमामी मस्कऱ्यो करूंक लागली.

''पूण तुका आवडली तरी कशी काय म्हणटां हांव...'', आई म्हणूंक लागली. ''म्हज्या मनांत आमच्या लोचनाची – म्हज्या देराले चलयेची सोयरीक हाडपाची आसली. काय बरें गोरेंपिट्ट सुंदर... तुका बरेंऽ सोबतलें आसलें...''

विनूमामा सामकोच बेजार जालो. सगळीं मस्कऱ्यो केल्लेभशेन उलयतालीं.

''आतां तुमकां कोणाकच पसंत ना जाल्यार तशें सांगतां ताका हांव! बेश्टोच वाद नाका घरांत... हातूंत कोणाकच सूख लागपाचें ना...''

हांवें मामाच्या तोंडाक पळयलें. ताचें तोंड सामकें बाविल्ले भशेन जाल्लें. सदांच हांसकुरो म्हजो विनूमामा म्हाका रडकुरो-सो दिसूंक लागलो.

आनी म्हाका भितरल्यान रडूंक येवंक लागलें. हांव आजयेक वेंग मारून व्हडल्यान रडूंक लागलें.

''शाण्या, कितें जालें गो तुजें? अशें कित्याक रडटा? ओगी! ओगी! शाणें तें म्हजें...'' आजयेन म्हाका घट्ट वेंगेंत धरलें.

हांवें दोळे घट्ट धांपून घेतले... आई बी पळयत म्हूण... आनी मोट्ट्यान सांगलें – ''आज्जे, आई सामकी फट उलयता. स्वातीमामी कितली बरी दिसता गे! व्हडले मामीपरस, दत्तीमामीपरस... लोचनताईपरस... सगळ्यांपरस स्वातीमामीच बरी दिसता. म्हाका तीऽच्च मामी जाय!''

आनी हांवें विनूमामाचेर घालून घेतलें. ताणेंय बी म्हाका वेंगेंत ओडून घेतलें.

हांवें विनूमामाच्या तोंडाक पळयलें आनी म्हळें, ''खरेंच रे! तुज्यान तर... म्हज्यान तर... देवाच्यान तर...''

हांव सोपूत घेत रावलें. तशें तशें विनूमामाचें तोंड हांसकुरें जायत गेलें.

आनी आई बडबडत आशिल्ली – ''पांचच मिनटां पोर एकलें आशिल्लें ताचे बरोबर... कॉफी करता म्हणसर... तितल्या वेळांत हाकाय भुलयलें?... हाचेरय जादू केलो??''

* * *

# कारवार – एक सोबीत वाठार

यशवंत पालेकर

कारवार – सोबितकायेन भरिल्लो सुपुल्लो वाठार! संवसारांतली सगळी सोबितकाय एकवटून कोंकण भुंयेच्या उदरांतल्यान हांगा जल्माक आयल्या काय दिसता.

पयस मेरेन पातळिल्लो नितळ निळो दर्या, त्या अथांग दर्यातल्यान उफेत येवपी पाळां आपणाल्या उदकान शेकानशेक न्हाणयत आशिल्ल्यान स्फटिका भशेन धवीफुल्ल दिसपी चवथिच्या चंद्रिमा आकाराची लांबच लांब समुद्रा वेळ, तिच्या दक्षिण तोंकार वाडिल्लें ऊंच सुरीझाडांचें मळबाच्या प्रांगणा मेरेन पावपी गडद पांचव्या रंगाचें 'सुरीपार्क', चोंय वटेन नदर भोंवडायल्यार नदरे आंवाठांत जळींमळीं दिसपी दोंगुल्ल्यांची रांगच रांग, उदेंतेच्या दोंगराचे कुशींतल्यान फांत्यावेळार ल्हवूच वयर सरपी तांबड्या गुंज सुर्याचीं किरणां पातळतना फांकिल्लें भांगरा वोत, वोताचीं किरणां शेतां-भाटांतल्या तणां-पानांवेल्या दवबिंदुंचेर नाचतना दिसपी पांचव्या पानांची चकचक, वाऱ्याच्या संथ तालार धोलपी पानांचे लयेर प्रसन्न हांसपी दनपारची सया, आमोरेचेर दर्याच्या अस्तमतेच्या क्षितिजार तांबडो बुडकुलो संवसारांतलो सगळो उजवाड दर्यांत ओतून आपुणय सागराच्या अथांग पोटांत बुडकी मारतना चोरपावलांनी येवपी रातराणयेच्या मस्तकार परमळपी असंख्य नखेत्रां-फुलांचो स्रंगार, रातचो सगळो वाठार जरी बुलांवांचो शालू पांगरून गाढ न्हिदेंत आसतना दर्याच्या गाजाच्या रुपान चोंयवटेन घुंवपी ताचो घोरेल्लो आवाज, ह्या सगळ्यांचें मधूर मिलन घडोवपी भुंयेवेलो स्वर्ग, कारवार! संवसाराच्या मुखामळावेलो सौभाग्याचो तिबो सोबपी अतुलनीय वाठार, कारवार!

विश्वकवी गुरुदेव रवींद्रनाथ टागोर हांकां ह्या भुंय-स्वर्गार काव्य-देवतेचो साक्षात्कार घडलो. हांगा जल्मल्ले तांचे पयले काव्य-कन्येक आपल्या फुलां हातान काव्य-देवतेन पानांच्या पाळण्यांत घालून अपरुपाचो बारसो मनयलो. तेन्ना दर्यान आल्लय गायली, सुरी झाडांनी ल्हवूच वारो घालून थंडाय पसरायली, चोंय वटेन उबे आशिल्ल्या दोंगरांनी उबे रावन मानवंदना दिली आनी राती मळबान चान्न्याचो शिंवर घालो.

समुद्राचीं पाळां वेळेर तुरुतुरू धांवतना फेणेरांनी फसफसपी तांचो धवोफुल्ल दुधाळ हांसो, सुरीझाडांचीं पानां-किसरां पडून सुरीपार्कांत पातळिल्ले मोव गादये सरभोंवतणीं सुळसुळपी मंद मंद सावळे उजवाडांतलो थंडायेचो शिंवर, नदरेच्या आंवाठाचे पलतडीन पाविल्ल्या अथांग दर्याचेर थंयचेथंय नाजूक पावलांनी नाचपी निळ्या निळ्या रंगाचे तरंग, नितळ निळ्या रंगाच्या मळबा-प्रभावळी सामकार पांचवी शाल आंगार घेवन एकामेकांलागीं उबे आशिल्ले असंख्य दोंगर, दनपारच्या रखरखपी वोतान सगळो वाठार तप्त जाल्ल्या वेळार माडा सावळेंत विसव घेतना तडे-वाऱ्याच्या स्पर्शान आंगाक जावपी रोमांच, चान्न्याचे रातीं झाडां-पेडांच्यो लांब-लांब सावळ्यो वेळेर सुस्त न्हिदिल्ल्या वेळार आमची सावळी मात आमच्या सांगातान सरकत वता तें पळोवन मेळपी आत्मानंद आनी काळखे रातीं मळबावेलीं नखेत्रां, भुंयेवेलीं झाडां-पेडां, भोंवतणीं नदर भोंवडायल्यार स्पश्ट दिसता आसतना, मंद वारो आंगाक स्पर्श करून वतेर आसतना आनी दर्याचो गाज अखंड गाजत आसतना अणभवाक येवपी एकलो-एकसूरपणाचो अणभव, हें सगळें चैतन्य, मांगल्य, गांभीर्य, भव्यताय आनी दिव्यताय संजात कवी कवींद्र गुरुदेव रवींद्र हांच्या अंतर्मनार प्रतिबिंबीत जालें आनी परीवर्तन जावन प्रतिभापूर्ण दिव्य-काव्य रुपान परगटलें. संवसाराक अज्रंवर म्हाकाव्य दिवपी काव्य-सम्राटाचें अवतार कार्य ह्या कारवार परिसरांतच घडलें! त्या म्हाकवीच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार – ''ते उपरांत हांवें बरयिल्ली कविता ते पयसुल्ले रातीकडेन मेकळावंक जायना इतली एकरूप जाल्ली... सैमाची सोबितकाय म्हळ्यार सपन रंगोवपाचें मृगजळ न्हय; ती आनंदमय खोस परजळायत आमकां आपणाकडेन ओडून घेता आनी आमी तातूंत विरगळून एकरूप जातात. कारवारची दयविळ हे अनुभूतिचो साक्षात्कार दिवपी एक थळ...''

गुरुदेव रवींद्रनाथ टागोर हांकां कवितेचो साक्षात्कार घडयिल्ल्या कारवार दर्या कुशीक आज 'रवींद्रनाथ टागोर मार्ग' आसा. आनी थंयसून नदरेक पडपी 'रवींद्रनाथ टागोर मंदीर' आसा. विश्व-साहित्यांत अज्रंवर जाल्ल्या विश्वकवीक काव्यस्फूर्त दिवपी हो कारवार वाठार कोंकणी जिवीत आनी संस्कृतायेचो एक अविभाज्य घटक. ह्या अपुर्बायेच्या कारवाराचें आंकवारपण सांबाळपाक दर्यांत सैमानच तीन राखणदार उबे केल्यात – देवगड, मदलिंगड आनी कुरूमगड!

कारवार वेळेवेल्यान मुखार नदर भोंवडायल्यार दर्यांत दिसता तो देवगड – दर्यांतलो एक सुपुल्लो दोंगर. आपली नदर चोंयवटेन घुंवडावन भोंवतण तेळत तो आसता. ताचेर एक दीपस्तंभ आसा. त्या दीपस्तंभाचो उजवाड रातच्या वेळार दोळे दिपकावपी आसता. ताचो झोत क्षितिजाची उत्तर दिकेची देग सांसपीत सागरावेल्यान ल्हवूच सरकत वेळेर आशिल्ल्यांच्या दोळ्यांर 'झक्' करून उजवाड घालत तसोच सरकत दक्षिणे दिकेर क्षितिजांत विलीन जाता आनी परत उत्तरे दिकेच्या क्षितिजाची देग सांसपीत परत येता. अशे तरेन देवगड दीपस्तंभाचो उजवाड सतत घुंवता. पैसल्ल्या अरबस्थानाचे दर्या देगेवेल्यान येवपी बोटीय दुर्बिणींतल्यान ह्या उजवाडाचो थाव घेत आमच्या देशामेरेन पावतात.

देवगडा वेल्यान उजवे वटेन नदर घुंवडायल्यार कांय अंतरार देवगडा परस ल्हान दोंगर सागरा मदीं दिसता. ताका 'मदलिंगड' म्हणटात. तीन दोंगरांत हो मदेगांत आसा देखून ताका तशें म्हणटात जावंये. तो ध्यानाक बशिल्ल्या रुशी भशेन अंतर्यामी जावन अंतःचक्षुंतल्यान भोंवतण तेळत आसा काय दिसता. ताच्या ध्यानांत बादिकार हाडचो न्हय म्हूण ताचे आसनमांडये भोंवतणी आशिल्लो दर्याय शांत आसता.

'कुरूमगड' हो तिसरो राखणदार. मदलिंगडावेली नदर उजवे वटेन घुंवडायल्यार थोड्या अंतरार तो सुपुल्लो दोंगर नदरेक भरता. हो दोंगर देवगड आनी मदलिंगडा परस व्हड दिसता. काळी न्हंयच्या मुखा कडसून पयस दर्यांत आशिल्ल्या ह्या कुरूमगडार नरसिंव देवाचें जागृत स्थान आसा. वर्साक एक दीस थंय जात्रा भरता. ही कुरूमगडाची जात्रा कारवार आनी भोंवतणच्या लोकांक एक व्हड परब. त्या दिसा ह्या वाठारांतले शेंकड्यांनी लोक ल्हान-व्हड व्हडयांर वा पडावार बसून कुरूमगडार वतात. काळी न्हंयचे धडेर आशिल्ल्या कोडीबाग बंदरावेल्यान सुटपी व्हडयो न्हंयच्या मुखांतल्या संगमांतल्यान अरबी सागरांत वतात आनी उपरांत थंयसून पयस आशिल्ल्या कुरूमगडार पावतात. संगमांतल्यान वतना आनी कुरूमगडा

डयेर पावतना वयर-वयर उडपी पाळां आपटल्ल्यान व्हडयो बुडटल्यो जाय म्हळ्ळी भिरांत सगळ्यांच्या काळजांत थरथरो हाडटा. तरीपूण सगळ्यांक कुरूमगडावेल्या राखणदाराचेर पूर्ण विस्वास. त्या विस्वासाक बादिकार हाडपा सारको प्रसंग आजवेर घडिल्लो कोणें पळयिल्लो ना वा आयकल्लोय ना. जात्रेक वचपी एक्कय व्हडें वा पडाव बुडला अशें घडिल्लें ना; एक्कय मनीस बुडून खंवसल्लो ना. ही नरसिंव देवाची सासाय. कारवारची राखण करपाची जापसालदारकीय तो देव सांबाळत आयला.

कुरूमगडावेली नदर परती दावे वटेन घुंवडायत मदलिंगडा आनी देवगडा व्हेल्यान तशीच मुखार व्हेल्यार दर्यात एक लांबचे लांब दोंगर दिश्टी पडटा. ताचे आयले वटेनचें तोंक दर्यात पयस मेरेन पावलां. दुसरें तोंक कारवार शाराचे दक्षिण धडेक लागलां. हो दोंगर दर्यात दक्षिणोत्तर आडवो आशिल्ल्यान सागरांतल्यान येवपी खर वारें आडायता आनी कारवार बंदरार उब्यो आशिल्ल्या बोटींक बादिकार जावपाक दिना. हो दोंगर कारवार शाराच्या दक्षिण तोंकावेल्या बैतखोल मेरेन पावला. थंय दोंगरांच्यो रांगोच रांगो दिश्टी पडटात. दोंगरां मदल्यान नागिणे भशेन सकयल देंवपी राजमार्ग दिसता. मार्गा वेल्यान सकयल देंवतना उजवे कुशीक दोंगर आनी दावे वटेन खोलायेर सैमाचीं विलोभनीय रंगरंगयाळीं रुपां! पाती हालयनासतना नदर घुंवयत सगळो वाठार मनःचक्षूंत आसपावन घेवंचोसो दिसता. क्षितिजामेरेन पातळिल्लो विशाल दर्या, दर्यांत मदीं मदीं पांचवेंचार दोंगुल्ल्यांचें जुंवें, आलतडेन धवेफुल्ल रेंवेच्यो माणकुल्यो वेळो, वेळेर पांय रोमून आशिल्ले दोंगर, दोंगरांच्या पांयांर मोगरे फुलांचे धवेफुल्ल हार सातत्यान ओंपत आसपी दर्याचीं पाळां आनी दोंगरां मदींच दिश्टी पडपी शेतांतली नितळ पांचवी ल्हारांची मलमल पळयत आसतना बैतखोल बंदर केन्ना पावलें तें कळच ना.

बैतखोल कारवार शाराचो बोटी धक्को. धडेक तेंकून एक-दोन बोटी आसतात. शिनाय, मचवे, पडाव, फतेमारी आनी ल्हान-व्हड वाफेरां, जळींमळीं दिसतात. कांय बोटी उदकामदीं नांगरूनय आसतात. बैतखोल धक्या कडसून शाराच्या मुखेल वाठारांत वचपी राजमार्ग दर्यावेळेक तेंकुनच वता. मार्गाचे उजवे वटेन सुरवेक दोंगर तेंकून जरी आसले तरी उपरांत दोंगरांच्यो रांगो उदेंते वटेन तिरकस जायत मार्गा कडसून पैस पैस वतात आनी उत्तरे दिकेन काळी न्हंयचे धडयेक तेंकतात. बैतखोल साकून सुरू जाल्ली कारवार शाराची वेळ धनुचो आकार घेत काळी न्हंयच्या मुखा कडेन पावता. अशे तरेन एके वटेन दर्याची वेळ आनी दुसरे वटेन दोंगरांची रांग हांचे मदीं काळी न्हंयचे धडये मेरेन आशिल्ल्या रेंवेंच्या भुसभुशीत मळार कारवार शार पातळ्ळां.

कारवार बाजारा वाठारांत एकामेकांक तेंकून कांय इमारती आसात. पूण हेर वाठारांत ल्हान-व्हड पोरसांतलीं मेकळीं घरां दिसतात. एक मजली, दोन मजली इमारती नांवा पुरत्योच. कारवार शार जिल्ह्याचें मुखेल शार आसलें तरी लोकवस्ती तशी चड ना. कारवाराक शार म्हणचे परस गांव म्हळ्यार चड सोबता. तशें पळयत तर ह्या वाठारांत ब्रिटिश पावचे आदीं लोकवस्ती नाशिल्लीच. तेन्ना ह्या वाठाराक 'कोणें' म्हणटाले. खारव्यांचीं कांय कोलवां घरां तितलींच हांगा आशिल्लीं. ते मुस्तींत लागसार आशिल्ले काळी न्हंयचे धडवेलें कडवाड बंदर नांवारुपाक पाविल्लें. वेपार-उद्देगाचें केंद्र आशिल्लें. थंय पाविल्ले ब्रिटीश अधिकारी थंयचो धग सोसंना जावन लागसारा आशिल्ल्या ह्या सोबीत दर्यावेळेच्या सान्निध्यांत दोंगुल्ल्यांचेर बंगले बांदून रावले. आनी ह्या वाठाराकय 'कडवाड' म्हणपाक लागले. तांच्या बरोवपांत 'ड'चें 'र' जालें आनी 'कडवाड'चें 'कारवार' जालें. मद्रास प्रांतांतलो कॅनरा जिल्ह्याचो उत्तरेकडलो भाग मुंबय प्रांतांत आसपावन वेगळो 'उत्तर कॅनरा' जिल्हो घडयिल्ल्या कांय वर्सां उपरांत कारवार ताचें मुखेर शार केलें, बैतखोलांत धक्को बांदलो आनी देवगडार दीपस्तंभ बसयलो. तेन्ना साकून कडवाडचें म्हत्व उणें जायत गेलें आनी कारवार नांवारुपाक पावलें. ह्या वाठाराचें आदलें 'कोणें' हें नांव फकत सरकारी कागदपत्रांतच उरलें. पूण थंयचीं कांय थळां 'कोणें'कडेन आपलें नातें अजून जोडून आसात. बैतखोल साकून शाराच्या मुखेल वाठारांत येतना मार्गाकुशीक दोंगरार एक पोन्री इगर्ज लागता. ती 'कोणें इगर्ज'. थंयसून मुखार गेले उपरांत मार्ग उजवे वटेन घुंवता. थंयच दावे वटेन समुद्रा वेळेक तेंकून 'कोणें बावट्या कट्टो' आसा. दर्यांत वारें कशें व्हांवता आनी ताचो ... कितलो हाची माहिती दर्यांत वतल्यांक दिवपाखातीर विंगड विंगड रंगाचे बावटे थंय लायतात. ब्रिटीश मुस्तींत दनपारच्या बारा वरांचेर थंय तोफेचो फार जातालो. बावट्या कट्ट्या कडसून तशेच मुखार वचत रावल्यार मार्गार एक सांकव लागता. हो सांकव 'कोणें' नाल्याचेर बांदला. हो उदकाचो पाट कारवार शारांतल्यान व्हांवत दर्याक येवन मेळटा. कारवार शारांत मान्यांतल्यान बी सोडिल्लें उदक खळयेंतल्यान व्हांवत ह्या नाल्यांत पावता.

बैतखोलसून कोणें नाल्याकडेन पाव मेरेन वाटेर चड घरां नात. पूण नुस्तें खात्याच्यो बी कांय सरकारी इमारती दिश्टी पडटात. कोणें नाल्या उपरांत पोन्री पोस्ट-कचेरी आसा. कारवार शाराची खरी सुरवात थंयसुनच जाता. पोस्ट-कचेरिचे फाटले वटेन जायतीं घरां आसात; माड आनी आंब्या रुखांनी भरिल्ल्या ल्हान-ल्हान पोरसांत मंगळुरी नळ्यांचीं माणकुलीं घरां दिसतात.

कोणें नाल्याकडसून मुखार गेल्यार राजमार्ग उजवे वटेन घुंवता आनी मुखेल बाजाराकडेन वता. त्या मार्गाक दावे वटेन जो फांटो आसा तो दर्या वेळेक समांतर वचून उपरांत कारवार-कोडीबाग मुखेल मार्गाक मेळटा. हे वाटेर दर्यावेळे कुशीक सुरवेक 'मित्रसमाज' क्लब वाचनालय आनी सरकारी कोर्ट कचेरी आसात. दर्यावेळ आनी मित्रसमाज हांचे मदल्यान एक ल्हान मार्ग दर्यावेळेक समांतर आसा. तो उत्तरेक आशिल्ल्या सुरीपार्का मेरेन पावला. हो 'रवींद्रनाथ टागोर मार्ग' आनी समुद्रावेळ सांजच्या वेळार वारें खावपाक आयिल्ल्या लोकांनी फुलून दिसता.

मित्रसमाजा कडसून शारांत भितर सरतना उजवे वटेन जो मार्ग लागता ते वटेन गेल्यार कारवारचो बस स्टँड मेळटा. तशे वचनासतना सरळ गेल्यार दाव्याक पोलीस स्टेशन लागता आनी उपरांत दोशीं वटेन दुकानांच्यो रांगो लागतात. दावे वटेनचे दुकानां रांगेमदल्यान आशिल्ले वाटेंतल्यान भितर गेल्यार चोंयवटेन दुकानांच्यो रांगो दिसतात. त्या वाठारांत आयतारा दिसा कारवारचो सांते बाजार भरता. एके कुशीक नुस्त्या बाजारय आसा. हे सांतेक कारवार भोंवतणच्या सगळ्या गांवांतल्यान लोक येतात.. दक्षिणेकडल्या अदमळ्ळी, चेंडये, थिणगे गांवांतल्यान; उत्तरेकडल्या देवबाग, सदाशिवगड, सांवरपै, वांगड, माजाळी, मुडगेरी, सानमुडगेरी गांवांतल्यान; तशेंच काळी न्हंयचे दोशीं वटेन आशिल्ल्या हळगे, हुळगे, सिद्दर, खारगे, भैरे, केरवड, मल्लापूर, कडये आदी गांवांतल्यान शेंकड्यांनी लोक त्या दिसा कारवाराक पावतात. गोंय सुटके आदीं पोळें, माशें, पैंगीण, काणकोण आदी वाठारांतले लोकय ह्या सांते बाजाराक पावताले. भायल्यान येवपी लोक आपणाकडेन जें पिकता तें विकपाक घेवन येतात. वतना आपणाक जें कितें जाय तें घेवन येतात. सांतेबाजाराचो आदलो आंवांठ आतां नुपुरो जाता देखून सांतेबाजाराचे भोंवतणीं आशिल्ल्या मार्गारय बाजार भरता. गोकर्णची तांबडी भाजी आनी वायंगणां, अंकलेचे काळे इशाड्ड आंबे आनी मोने बांगडे, सदाशिवगडचीं कालवां आनी तिसरे मांसां, सांवरपयचे शेंवटे आनी मुड्डुशो, माजाळेचे मांद आनी विस्वण, शिवाय भोंवतणच्या वाठारांत जावपी मुसराद आनी फर्नांद आंबे, काळ्गां आनी कणंगां, काळ्या फाकांची सुकी मोरी आनी सुके तिसरे मांसां आदी घेवपाक लोक कारवारच्या सांते बाजारांत येतात. हालीं बेळगांव-हुबळी वाठारांतल्यान व्हडा प्रमाणांत शाकभाजी कारवार साते बाजारांत पावता.

कारवार साते बाजारांतल्यान उदेंते दिकेन भायर सरल्यार कारवार शाराच्या मुखेल मार्गार पावतात. हो मार्ग दक्षिणेक कोणें नाल्या कडसून सुरू जावन उत्तरेक कोडिबाग बंदराक तेंकता. कोणें नाल्या वटेन वतना ह्या मार्गार राधाकृष्ण आनी मारुतीचीं देवळां लागतात. सांते बाजारा कडसून उदेंते दिकेन गेल्लो मार्ग शेजवाड साकून मुखार कडवाडा पावता. शेजवाडा आनी कडवाडा म्हादेव देवाचीं देवळां आसात. शेजवाडचें देवूळ खूब पोरणें आसून पुण्यक्षेत्र म्हूण नामनेक पावलां. ह्या मार्गार वतना सुरवेक दावे वटेन हिंदू हायस्कूल लागता. कारवार शारांत आज प्राथमिक, माध्यमिक, उच्च माध्यमिक शाळां, तशोच कला, विज्ञान, वाणिज्य, शिक्षक प्रशिक्षण म्हाविद्यालयां वांगडा तांत्रिक शिक्षण दिवपी संस्थाय आसात. पूण फाटले मुस्तींत सरकारी माध्यमिक शाळा सोडल्यार हिंदू हायस्कूल हें एकच माध्यमिक शिक्षण दिवपी विद्यालय कारवारा आशिल्ले आनी थंय बरें शिक्षण मेळटालें. गोंय सुटके आदीं ते शाळेंत जायते गोंयकार शिकताले. नामनेचे गांधीवादी आचार्य काकासायब कालेलकार हे ते शाळेंत शिकिल्ले. थंय शिकिल्ले जायते जाण देशांत आनी भायल्या देशांनी नामनेक पावल्यात.

हिंदू हायस्कूल कडसून शेजवाड मार्ग सुरू जातना ताका एक उबो फांटो फुटला. तो मार्ग मुरलीधर मठाकडेन पावता आनी उपरांत दोंगराकडेन वचून सोंपता.

सांते बाजारा साकून कोडिबाग बंदरार वचपी मार्गार वतना सिविल हॉस्पिटल, सरकारी हायस्कूल आनी उपरांत पदवी म्हाविद्यालय मेळटा. तशेंच वचत रावल्यार कांय वेळान पोलीसलायन लागता. ताचे आयल्यान उजवे वटेन मार्ग वता तो बाड साकून मुखार सुंकेरीक पावता. त्या मार्गार गेल्यार आकाशवाणी केंद्र, गुरुमठ, शिवाजी विद्यालय, न्यू हायस्कूल, शिक्षक-प्रशिक्षण विद्यालय आदी मेळटात.

काळी न्हंयंत भितर मेरेन घुशिल्ल्या भूशिरार सुंकेरी बंदर आसा. ह्या बंदरार रावन भोंवतणीं नदर घुंवडायल्यार दिसता तें सैमाचें मनभुलोवणें आगळें रूप! तांबश्या पोल्यार तेंकिल्ली पांचव्या दोंगरांची रांग, भांगरेल्ल्या वोतान लखलखीत दिसपी भोंवतणचो विलोभनीय वाठार, मंद वाऱ्या वांगडा आंगाक स्पर्श करपी थंडाय, पयस नदरेक दिसपी न्हंयचे देगेवेले वैलेगांवचे किनारे, मदीं पातळिल्लें उदकाचे विस्तृत मलमल, तांचेर जळींमळीं चकचकपी किरणांचीं पोरां, न्हंयच्या उदकान धडेकडेन खेळटना जावपी खळखळ निनाद हें सगळें मनाक सपन-लोकांत पावयता. हांगा न्हंयच्या उदकाक विटिल्ल्या चटणे रंगाभशेन सया मारता. देखून ते न्हंयक 'काळी न्हंय' म्हूण नांव पडलें जावंये.

सुंकेरी बंदरा साकून काळी न्हंयचे धडेवेल्यान अस्तमते वटेन एकमार्ग गेला. तो कोडिबाग बंदरा मेरेन पावता. काळी न्हंयचेर सांकव बांदतेरेन कारवार वटेन गोंयां वतल्यांक हें कोडिबाग बंदर म्हत्वाचें आशिल्लें. थसून व्हडेर बसून पलतडच्या सदाशिवगडार पावताले आनी उपरांत बसीर सून गोंयांत वताले. पलतडीन वाहनां व्हरपाक 'जंगल' आसतालें. दोन व्हडयो एकामेकांक जोडून ताचेर फळ्यांचो व्हड माचो बसोवन हें 'जंगल' यार करताले. तें लोखणा पट्ट्यांक खिळे मारून जोडिल्ल्यान मजबूत आसालें. ताचेर मोटारी, बसी, ट्रक, टँकर, बैलगाडी बी चडोवन पलतडीन व्हराले.

कारवार शाराक वेल्या गांवांकडेन जोडपाचें कोडिबाग हें म्हत्वाचें दर. हांगसून वेल्या गांवांत व्हडीं आनी वाफेरां यो-वच करत आसतात. त्या गांवांतसून हाडिल्लीं नाटां कोडिबाग बंदरांत जळींमळीं तरंगत आसात. आतां काळी न्हंयचेर सांकव जाल्ल्यान ह्या कोडिबाग बंदराचें म्हत उणें जालां.

कोडिबागसून सैमाची सोबितकाय जी दिसता ती अवर्णनीय रसा. सामकार दोंगरार बांदिल्ले सदाशिवगड आनी सावरपग कोट, मदसंथ व्हांवपी काळी न्हंयंत शीड सोडून वाऱ्या वांगडा सर्त करत यो-वच करपी व्हडयो, न्हंये देगेवेले वयल्या गांवचे दिसपी पांचवी सया मारपी पेल्ले माणकुले दोंगर, न्हंयच्या मुखावटेन नदर भोंवडायल्यार थंय दिसपी च्या सपाट जुंव्यार दाटायेन वाडिल्लीं सुरीझाडां, न्हंयचो प्रवाह आनी सशाचीं पाळां हांचें मिलन घडटना उसळपी घोग्यांचे फेणेराचे लोट आनी स्माचे दोशीं वटेन आसपी धवेफुल्ल रेंवेच्या आवाऱ्या मदल्यान सागरांत क्षितिजाचे धारेर पैस दिसपी कुरूमगड, मदलिंगड आनी देवगड!

पुतुगीज पावचे आदीं गोंयच्या सौंदेकर राजवटिच्या पाख्यातळा आल्लो हो भुंयेवेलो स्वर्ग हैदर अलीन जिखलो आनी तो म्हैसूराकडेन जोडाक कडवाडच्या दोंगरा वेल्यान 'हैदरघाट' मार्ग बांदलो. भास, संस्कृतायआनी परंपरेन गोंयाकडेन एकरूप आशिल्लो हो वाठार तेन्ना राजकीय दरेन वेगळो जालो. तरीपूण गोंय राजवटी खाला आशिल्लो 'अंजदीव जुंवो कारवार दर्यांत माथें वयर करून उबो रावन हे कोंकणी भुंयेर शेकशेक नदर दवरून राखण करतालो. हालीं, कांय वर्सां आदीं, हो अंजदी गोंय प्रशासनांतल्यान मेकळो जालो. आतां ह्या भूंय-स्वर्गांतली कोंकणी रस, संस्कृताय आनी परंपरा कोण राखतलो काय?

*

---

हजरत अलीक एक खेपे एकल्या आड तरसादेन झुजचें पडलें. झुजतां झुजतां त्या मनशाची तरसाद तुटली. 'आः आतां कितें करतलों? मरण काय आतां चुकपाचें ना' अशें येवजून तो 'थू' करून हजरत अलीचेर थुकलो.

हजरत अलीन तोंड पुसलें आनी म्हळें, 'हांव तुजे कडेन धर्मा खातीर, सत्या खातीर झुजतालों. तातूंत तूं मरूं येतालो वा हांव मरूं येतालों. म्हाका ताची पर्वा नाशिल्ली. म्हज्या मनांत तुजे विशीं राग वा दुस्वास नाशिल्लो. पुणून तूं म्हजेर थुकलो तेन्ना म्हाका तुजो राग आयलो. ह्या रागा भरशीं हांवें तुका मारिल्लो जाल्यार धर्मा खातीर, सत्या खातीर हांवें तुका मारलो अशें म्हणूंक येवचें नाशिल्लें. आतां म्हजो राग न्हिवला. ही घे नवी तरसाद आनी झूज म्हज्या वांगडा...'

कितें झुजतलो, कपल? ताणें हजरत अलीचे पांय धरले.

# ौर-सुवादीक कॉलम

लीप बोरकार

ज्या बरोवपाच्या मेजासामकार एक जनेल आसा.
तां मेजा सामकार जनेल काय जनेलाक तेंकून मेज?
ं म्हळ्यार घर बांदतना कुडीक जनेल दवरिल्लें.
रांत हांवें ती कूड म्हजे खातीर अभ्यासिका केली.
ल्या वतल्यांक हांव तो म्हजो स्टडीरूम म्हूण सांगतां.
आतां हांव जाणविकायेन कोंकणी उतर वापरतां.
कणी उतरां आसतना इंग्लेज कित्याक काय म्हूण न्हय.
तलो कट्टरपंथी जावन बसूंक म्हाका मातूय आवडना.
मक्तेदारी आमी दामोदर घाणेकाराचेर सोंपयल्या.
यच घडलेंना तरी निदान कांय कॉलम तरी भरतात.
नां भरपाची संपादकांची चिंता पयसावता.
नी आमचे सारकेल्यांक भाशेची गिरेस्तकाय कळटा.
लींच आनीक एक खुशालकायेची गजाल म्हाका कळ्ळी.
य कोंकणी दिसाळ्याच्या बरेपणान.
व गांवांत भटवाड्यार कुकड कसो एकलोच कोंकणी वाचपी.
ून बाबडो तो पेपरवालो सुनापरान्त हाडून म्हज्या घरा उडयता.
तें तरी करूंक जाय म्हूण हांवें तो उगडलो
र भितरल्या पानार प्रभाकर भिडेचो लेख.
ळें, बरें जालें, कोंकणीक आनीक एक लेखक मेळ्ळो.
यलीं भिडे हो फकत एक प्रकाशक आशिल्लो.
ागीर रमेश वेळुस्कारान राजहंसाचें संपादकपद सोडलें.
काशक भिडे भिडेक पडनासतना संपादक जालो.
खून आतां भिडे एक लेखक जालो जाल्यार अजाप न्हय.
ार्वीनच्या उत्क्रांतीवादाक मरण ना हेंच खरें.
भिडेचो लेख हांवें बारकायेन वाचून काडलो.
ारकायेन वाचपाचें कारण म्हळ्यार तो पुरस्काराखातीर नाशिल्लो.
ो वाचून म्हज्या गिन्यानांत भर पडली ती अशी.
भिडे दामोदर घाणेकार आनी मुकेश थळी हांकां घेवन
क कोंकणी इंग्लेज शब्दकोश तयार करता.
तसलोच एक गुरुनाथ केळेकारान करूंक घेतला.
गुरुनाथबाब कितें करता हें केन्नाच कोणाक कळ्ळेंना.
तशें ते हे फावट प्रभाकर भिडेकूय कळ्ळें ना.
तें कळिल्लें जाल्यार भिडे डिक्शनरीक हात घालचोच नाशिल्लो.
घाणेकार आनी थळी हांकां तो हेर कामाक लावपाचो.
कोंकणीच्या मळार कोण कितें करता हें एकामेकांक कळूंक जाय.
कित्याक तर हो लाखांनी रुपयांचे गुंतवणुकिचो प्रस्न आसता.
ते पासत प्रत्येकान एक गुप्तहेर दवरप गरजेचें आसा
तो तत्परतेन भितरल्या गोपांतली बातमी काडटा.
पूण जंय भारतीय गुप्तहेरांनी आपलें नांव होगडायलां
थंय हांणी आपल्या गुप्तहेरांचेर कितलें पातयेवन रावप
होय एक प्रस्न आसा.
कारगीलाक लागून जितलें लुकसाण जावंक ना तितलें हांचें जावपाचें.
आतां कोंकणीचे उदरगतीक डिक्शनरी जाय हें खरें.
आनी ती कोणूय करूंक शकता हेंय तितलेंच खरें.
पूण ती कोणें करची हें कोण थारायतलो?
तातूंत आनी आतां ह्या दोगांनीय काम सुरू केलां.
दोगांयच्यो डिक्शनरी म्हजेसारको कोण विकत्यो घेवंचोना.
घेतलो जाल्यार बरी आसा ती एकूच कोणूय घेतलो.
मागीर कोंकणीपासत कश्टपी एकलो बुडचोना?
ताचेर म्हजे नदरेन उपाय काडूं येता तो असो.
कोंकणीची जितली उतरावळ आसा तिचे वांटे घालप
आनी दोगांकूय डिक्शनऱ्यो छापूंक लावप.
नातर डिक्शनरी बरोवपाची एक सर्त घेवप
आनी पुरस्कार मेळिल्ल्याक ती छापूंक लावप.
म्हणचे, कोणें पेंवचें आनी कोणें तडीक रावचें हो प्रस्न सुट्टलो.
हांव परिक्षक आसल्यार गुरुनाथबाबांची निवड करीन.
तांकां हे आदिंचो इंग्लेज-कोंकणी डिक्शनरीचो अणभव आसा म्हूण.
तेन्ना गुरुनाथबाब पेंवतालो आनी भिडे तडीक आशिल्लो.
निवड करपाचें दुसरें कारण म्हळ्यार हांवें ती डिक्शनरी वाचल्या.
स्टडीरुमाक अभ्यासिका हें कोंकणी उतर हांवें थंयच्यानूच घेतलां.
आतां हांवें ह्या कॉलमांत वापरलां तें तांतलेंच.
म्हणटकच ह्या उपकाराची थोडी तरी परतफेड करूं नाका?
तर हांव हालींसराक स्टडीरुमाक अभ्यासिका म्हणटां.
पूण तें आमचे वावराडेक, शेंवतूक, निखालूस आवडना.
आई ताका सांगता, 'आगो च्या व्हरून अभ्यासिकेंत दी गो!'
तर तें ना म्हणटा. 'स्टडीरुमांत जाल्यार व्हरून दितां' म्हणटा.
तें अशें कित्याक वागता तेंच म्हाका कळना.
ताका हांवें तो इंग्लीश-कोंकणी शब्दकोश वाचतना पळोवंक ना.
मागीर ताची अभ्यासिकेचेर खुन्नस कित्याक तें कळना.
हांवें ताका ताचें कारण विचारलें.
''तूं थंय अभ्यास खंय करता तर?' शेंवतून विचारलें.
'मागीर हांव थंय बसून कितें करतां तर?'
'हांव जाणां? एक सारको भायर रस्त्यार पळयत रावता.'
'भायर रस्त्यार कोणाक पळयतां?'
'शेतांत काम करपी कामेऱ्यांक पळयता.'
हांवें डायलॉग इतल्यार बंद करप शाणेपणाचें थारायलें.
हांव स्टडी रुमांत मेजाकडेन बसून भायर पळयतां हें खरें!
हांव शेतांतल्या कामेऱ्यांक पळयतालों हेंय सत.
पूण हांव तांकां साहित्यिक नदरेन पळयतालों.
पूण शेंवतूची एक गजाल म्हाका आवडली आनी पटली.
कसलोच अभ्यास करिनासतना कुडीक हांवें अभ्यासिका म्हणूंक फावना.
हांव कितेंय बरयतना ताचो केन्नाच अभ्यास करिना.
तसो करुनय ह्या संवसारांत कांयच फायदो ना.
आमचे कथाकार कथेचो अभ्यास नासतना कथा बरयनात?
मागीर हांवेंच तो अभ्यास म्हणटात तो कित्याक करप?
कश्टाविणें फळ मेळटा जाल्यार घेवप.
जी गत अभ्यासिकेची तीच स्टडीरुमाची.
अर्थ तोच आसुनय शेंवतूक स्टडीरूम म्हणप आवडटा.
ताचें म्हणणें, असल्या उतरांक एक मोठेपण आसता.
तेच पासत तें अदींमदीं आवयचेरूय फणफणटा.
पयर आवयन ताका कितें तरी न्हाणयेंत दवरूंक सांगलें.
तर तें तिका सांगता, 'न्हाणयेंत? न्हाणयेंत कितें? बाथरुमांत म्हण.'
हाणें आमची घरांतली संस्कृताय भश्ट केल्या

तरी करतलों कितें? सोसपाचें. आसता एक एकल्याचें नशीब!
तातूंत कवी-लेखक हांकां तें चडूच सोंसचें पडटा.
आतां हेंच सुरवेक सांगिल्लें तें कोफुसांव पळयात.
म्हजें बरोवपाचें मेज जनेलाकडेन आसा काय मेजामुखार जनेल?
खरें म्हळ्यार हांवें म्हजे सोयीखातीर मेज थंय दवरलां.
पूण सांगतना म्हणटां, मेजामुखार एक जनेल आसा
अशें म्हणटना हांव धडधडीत जनेलाक दुय्यम लेखतां.
आतां सगळेकडेन हें अशेंच चलता म्हूण बरें!
आमचीं गोंयचीं म्हामंडळां आनी संस्था घेयात.
म्हामंडळां आमदारांखातीर काय आमदार म्हामंडळांखातीर?
आमगेल्या म्हामंडळांक आमदारांबगर अस्तित्व ना.
आमच्यो अकादमीच घेवंया. त्यो आसात कित्याक?
नोकरवर्ग सांबाळपाक काय वावर करूंक?
जेन्ना हें सगळें म्हाका जळामळाक दिसता
तेन्ना हांव म्हज्या जनेलाचें ओगीच गगन करतां.
मेज पयलें काय जनेल पयलें हाका अर्थ ना.
हांव मेजार बसून बरयतां आनी जनेलांतल्यान भायर पळयतां
हाका अर्थ आसा.
मागीर शेंवतू म्हणूं हांव भायर चलयांक पळयतां.
आतांय हांव मेजार बसलां आनी भायर पळयतां.
भायर आतां चलयो नात, सांज जाल्या.
हांवें मेजावेलो टेबललॅम्प पेटयला. कुडींत उजवाड जाला.
उजवाड जायना बराबर जनेलाच्या हारशाचेर एक पाल येता.
दिव्याकडेन येवपी पिसोळीं खावपाक.
हांव फाटले कितले तरी दीस तिका मारतलों म्हणटां
पूण तिका हांवें पयली पळयली तेन्ना ती सामकी ल्हान आसली.
आतांच जल्मल्ल्या भुरग्यावरी.
म्हाका असलीं ल्हान पोरां पळोवंक खूब आवडटात.
मागीर तीं पालिचीं पोरां आसूं वो दुकराचे पेटे.
तांकां मारचें, धांवडावन घालचें अशें म्हाका दिसना.
पूण तीं व्हडलीं जालीं म्हणटकच म्हाका तांचो वीट येता.
तीं म्हाका दिनेश भरणेल्या कार्टुनांतलीं सवंगां दिसतात.
तर, पालीक मारतलों म्हूण हांवें म्हज्या पांयाची व्हाण लेगीत काडिल्ली.
पूण येदीशी माणकुली पाल, माणकुलो राजकुंवर कसो
तिका म्हूण व्हाणांनी मारप म्हजे सारक्याक सोबता?
पालेकारा सारक्या माजी कोंकणी फुडाऱ्याचें काम तें.
भाशा मंडळाची वेंचणूक जावं परिशद ते व्हाणांनी मारूंक वताले.
देखून पायांची व्हाण पायांक दवरून बडी हातांत घेतली.
मारूंक वतनाच ती पाल खंयचेकडेन नाच्च जाली.
म्हळें आसूं, भृणहत्या नाका, मातशी व्हडली जातकच मारूंया.
दीस सरले आनी पाल केन्ना व्हडली जाली तेंच कळ्ळेंना.
सकाळीं म्हायती खात्यांत गेल्लों थंय तिची याद जाली.
हांव म्हायती अधिकारी दास नायकाकडेन बशिल्लों.
तो सामको तावातावान कारगील प्रस्नाचेर उलयतालो.
सरकारी कर्मचारी अशे पोटतिडकेन उलयतात तेन्ना
म्हजें हड्डें राष्ट्राभिमानान भरून येता.
आमचो देश आतां गुलाम जावपाचो ना हाची खात्री पट्टा.
अटल बिहारीन घुसखोरांकडेन दुर्लक्ष केलें हाचो ताका राग.
नियंत्रण रेशेर लक्ष दवरून पयल्याच घुसखोराक मारिल्लो जाल्यार
युद्धाची परिस्थिती येवपाची नाशिल्ली अशें ताचें मत.
देखून तो सद्याचे परिस्थितीक वाजपेयीक जापसालदार धरतालो.
ते खातीर ताणें मुदयेर थीक कशें उदाहरण दिलें.
आपल्या नव्या फ्लॅटार समजा एक जल्लो भितर सरलो
ताचेकडेन हांवें दुर्लक्ष करून ताका समजा सोडलो
जाल्यार मागीर जल्ल्यांची रास फ्लॅटभर जातली.
तेन्ना ताका जापसालदार कोण? हांव न्हूं?
हांवें हय म्हळें तशें ताचें मनापासून समाधान जालें.
ताणें आपल्या फ्लॅटांतल्या जल्ल्यांची तुळा घुसखोरां लागीं केली ती म्हाका भौच आवडली.
तेन्नाच म्हाका म्हजे कुडींतले पालिची याद जाली.
तिका जर आतांच चेंचलिना जाल्यार घात जातलो.
म्हजे कूडभर सगळ्याक पालीच पाली जातल्यो
आनी ते घडणुकेक पुराय जापसालदार हांवच थरतलों,
जसो आयज कारगील प्रकरणांत वाजपेयी थारला.
म्हायती खात्यांतल्यान घरा आयलों तोच एका ध्येयान.
आयज कशीय करून ते पालीक ना नपयत करप.
तिचीच वाट पळयत हांव म्हज्या मेजार बसून आसां.
मेजा सामकार जनेल आसा आनी जनेलाक हारसो.
(आतां मेजाकडेन जनेल काय जनेलाकडेन मेजु हो वाद आनीक नाका.
नातर परतून हेर भानगडी वयर सरतल्यो. तो वाद हांगाच सोंपोवया.)
हांव हातांत बडी घेवन पालिची एकाग्रतेन वाट पळयतां.
मदींच भायल्यान वावराडी शेंवतू पासय मारता.
हांव जनेलांतल्यान भायर पळयतां हें ताणें पळयलें जावंक जाय.
ताणें दुबावान एक खेप म्हाका पळयलें आनी मागीर फुडल्या घरांत.
तें घर बंद दवरून घरमालक मुंबय खंय तरी रावता.
हालींच तो मुंबयच्यान गोंयां येवन थंय रावतालो.
वांगडा येतना ताणें गुबगुबीत बायल आनी दोन पोरां हाडिल्लीं.
पूण हे पालीक लागून हांव तांचेर लक्षूच दिवंक पावंक नाशिल्लों.
पूण शेंवतूचें लक्ष मात म्हजेर आशिल्लें.
असल्या लोकांची कारगील, द्रास हांगा खरी गरज.
तरी हांवें ताका देशहीत पळयनासतना आमगेर हाडलें.
आतां जनेलाच्या हारशार एक पिसोळें बशिल्लें
आनी ती ऐन वयार आयिल्ली पालूय थंय आशिल्ली.
पिसोळ्याचेर नदर थिरावन आपली शेपडी वयर काडटाली.
हांवें एकाच किंवाट्यान बडयेचें पोत तिचेर हाणलें.
खळ्ळ आवाज जालो. पाल खंयचे खंय नाच जाली.
जमनीर मात जनेलाच्या हारशाच्यो कंवच्यो पातळ्ळ्यो.
पाड पडूं! नवोच हारसो हाडून बसयिल्लो.
आतां तो घालूंक आनीक पांचशें रुपया घालचे पडले.
म्हयनोभर कॉलम बरोवन चारशें हातांत आयिल्ले
ते कारगील जवान फंडाक दिवचे असो राष्ट्रवादी विचार तकलेंत आशिल्लो.
पूण पाल विरोधी वॉरांत म्हाका प्रचंड तूट आयिल्ली.
हारशाचो आवाज आयकून शेंवतू धांवत आयलें.
'कितें फोडलें गो?' आवयन भितरल्यान विचारलें.
'अभ्यासिकेचो हारसो फोडलो.' जनेलाकडेन पळयत ताणें म्हळें.
हांव फुटिल्ल्या हारशाच्या कंवच्यांकडेन पळयत रावलों.
त्या कंवच्यांनी पालीची शेपडी तडफडत आशिल्ली.

* * *

# सोरोप

मराठी कविता : गुरुनाथ धुरी
अणकार : शंकर रामाणी

गिमांतल्या नागड्या रखरखाटा वरी खूब दीस गेले.
मनांत कितेंच धर नाशिल्लें.
ताकाच लागून उठलों आनी गांवापासून पयसुल्ल्या
रानांत एका रिकाम्या पडिल्ल्या घरांत रावपाक गेलों.
म्हळें, आतां खऱ्यांनीच फाव तो सुशेग मेळटलो...

पयलो दीस :
सांजेन पांयांक घुंगरां बांदिल्ल्याचो दुबाव!
जनेलाकडेन वचून पळेत जाल्यार
गळ्यांतल्या पट्यांक घांटुल्यो गुंथिल्ल्यो
पंदरावीस म्हशी सुशेगाद चरताल्यो...

दुसऱ्या दिसा नळ्यांचेर खडखडाट,
फाटोफाट कितेंय तरी घब्ब करून पडिल्ल्याचो आवाज,
पर्थून जनेलाकडेन पळेलें
माकडांच्यो झुंडिचेर झुंडी
भोंवतणी धुमशेणां कांडटात...

तिसऱ्या दिसा
सगळेकडेन तण मातून येतकीर तें
कच्कच् करून कापिल्ल्याचो आवाज
पर्थून हांव जनेलाकडेन :
पळेल्यार बरेचशे घोडे तकल्यो बागोवन
कच्कच् तण चाबडावपांत गुल्ल...

मागीर केन्ना सोंशे, रानमांजरां आनी साळिंदरांच्या
झुंडिंचो धुडंगूस. रानदुकरांचो एक कळप लेगीत
भूंय धोपटीत दणदणत गेलो...

मनांत म्हळें,
म्हजो एकांत भ्रश्ट करपाचो
मुदलांतच ह्या प्राण्यांनी निश्चेव केला.
ह्या विचित्र भिरांकूळ अवस्थेंत
कितल्योशोच राती सारक्यो लेखनशून्य!

इल्लें इल्लें करून भित्रें मन जाग्यार येवन ह्या सगळ्या
घडणुकांची इतली संवकळ जाली कीं
कोणच केन्ना आशिकुशीक झळकलेंना
देखून हांवच अस्वस्थ जावन
तांची वाट पळोवंक लागलों.

एका सानवेळा
मळब कुपांनी काळेंकुट्ट जालें.
हांव बेगीबेगीन घरा परतलों,
सगळेकडेन बिण्ण शांतताय.

लागसार पावतकीर पळेल्यार
चुकून जनेल उक्तें उरलां,
बारीकसाणीन पळेलें आनी
काळजांत कच्च जालें! जनेलाकडेन आशिल्ल्या
म्हज्या बरोवपाच्या मेजार एक
हडवोताल्ल सुवर्णकांतिचो सोरोप
फाटिचो कणो तायट करून
अंत्राळांतल्या सुक्षीम नादाची सुलूस घेत
फोडां काडून बसला
कुंडलिनीभशेन!

# हतयाचें जार्दीन

□ काशिनाथ शांबा लोलयेंकार

प्रचंड हत्ती. तेचे सोंडयेसकयल एक मोठ्ठो फुटबॉल.
हतयाच्या भोंकांतल्यान चडून हतयाचे सोंडयेंतल्यान
घसरत येतात भुरगीं. दोनाय वटेन झोपाळे. मर्दी कारंजें.
जळींमळीं भुरगीं. आपलें भुरगेपण आठवपी तेंचे आवय-बापूय.
सामकार पोस्ट ऑफीस. आनी पुलीस स्टेशन.

भुरगो आसतना येतालों हांव हांगा. झोपाळो घेवपाक.
घसरगुंडी करपाक. कॉलेजच्या दिसांनी बसतालों हांव हांगा.
आमिगांवांगडा. सिगरेटी फुंकीत. वादविवाद करीत.
हालीं परत येवंक लागलां हांव म्हज्या भुरग्यांक घेवन.
भुरगीं खेळटात आनी हांव पेपर वाचीत बसतां.
केन्ना-केन्ना उदकाचें कारंजें पळयत बसतां.

म्हाका घट्ट याद आसा. हांव बसोंक ना सी सॉचेर केन्नाच.
मनांत एक भंय. वयर-सकयल जावपाचो.
दुसऱ्या तोंकार बसलेल्या त्या दुसऱ्याचो.

भुरगेपणांत तर त्या हतयाबद्दल प्रचंड भंय आनी कुतुहल.
त्या प्रचंड फातराच्या हतयांत प्राण ना.
जावंक शकना तो जितो.
घालूंक शकना तो धुमशेणां जार्दिनांत.
तुडोवंक शकना तो एखादें भुरगें आपल्या पायापोंदा.
हें आतां कळटा.
हांव कितलो सुरक्षित आसां हें आतां कळटा.
त्या हतयाचें फातरपण म्हाका आतां जाणवोंक लागलां.

हांव जियेतां त्या फातराच्या हतयासकट. झोपाळ्यासकट.
सी-सॉ सकट. त्या कारंज्यासकट.

हांव पळयतां पोस्टाचे भायर आसलेली ती टपालपेटी.
खंयच्याय खिणाक स्फोट जावं येता इतली तांबडीलाल.
हांव पळयतां पुलीस स्टेशनांत भितर रारपी जीप.
जिर्पींत बेडयो घालून बसलेलो एक मनीस.

आयुश्यांत हांवें खूब पळयलें.
हे त्या भुरग्यान वयर ऊंच उडयल्लो बॉल पळोवपी तो हांवूच.
तो बॉल वयलेवयरूच फ्रिज जालो. हें पळोवपी हांवूच.
हांगा फुलां खंय दिसनात. फुलांचें जार्दीन वेगळें.

म्हापशांत दोन जार्दिनां आसात.
एक फुलांचें.
आनी एक हतयाचें.
दोनूय लागींलागींच.
पूण एकामेकांक इतलीं पयस
की हतयाच्या जार्दिनांतलो हत्ती
चलोन वचोंक शकना फुलांच्या जार्दिनांत.

## कविता

□ माधव बोरकार

तुज्या बोटांत
म्हर्जी बोटां
गुंथय
तुज्या ओंठांक
म्हजे ओंठ
भेटय.

म्हज्या दोळ्यांत
तुजे दोळे
बुडय
आनी काळजांत
म्हज्या तुकाच
दडय...

## झोपाळे

□ परेश नरेंद्र कामत

कुसव्यांत तुगेल्या वाजता गर्भाचीं
पावलां पैंजणावरी;
थपथपून मन कुळारा तुगेलें
सारवता आंगणावरी.

दिश्टेंत खोल आस घरावी:
तुजो देह तुडूंब भारावलेलो;
सळसळ दुकांची पांगुरतना –
भरल्या उमाळ्यांचो तोल गेलो...

वाडत वतना सरसर वेणो
सुख-दुख्खाचे पेशी पेशींत;
व्हाळ उजवाडाचो देंवता दुधाळ
तुज्या थानांतले गांठी गांठींत

रात खर वेणांची सरता:
सरकता गर्भावरी झंजळून वारें;
चान्याचे मेणायेंत बुडबुडत –
तुगेलो, चंद्र घेता झोपाळे...

## पावस आयलो

□ ॲन्सी पाल्का

पावस आयलो पावस आयलो
घसघशांनी पावस आयलो

तोडा* पोटां फुटोन
माडा तोटां घोटून
वोडा नोटाक लोटून
पावस आयलो पावस आयलो
घसघशांनी पावस आयलो

वोता आंतां पिळून
भाता शेतां गिळून
रैता काती सोलून
पावस आयलो पावस आयलो
घसघशांनी पावस आयलो

आदल्या म्हन्यांत पावस नातलो
खंतीन रैता मेंदू भेतलो
आतां कितें देव उठलो?
मोगान आपली तकली आटोवन
आशिर्वादां शिंवर वोतलो?!
रागान निश्टूर पोटली सुटोवन
शिरापांचो धुंवर सोडलो?

# दिंसावडो

□ प्रकाश पर्येंकार

दिसावडो किरवटीक लावन
ती अस्तुरी चलता वाट
घर परतणेची
त्या दिसावड्यांत शेकेल्या
तानुल्या बाळकांचे
भुकेची थंडाय...
आनी ते थंडायेंत आटलां
दिसभराचें रखरखीत वत...
तो दिसावडो चरतें कसो
चरत आसा
ते अस्तुरेच्या सर्वांगार...
तिची फाट सासणाची
धर्तरिक लागतकच
तो दिसावडो मारतलो गोळ
त्या तानुल्या बाळकांचे गोवंटेक
आनी परत अशींच
आटत रावतलीं
दनपारचीं रखरखीत वतां
दिसावड्याच्या रुपान...
हें सत्य
रुंवा-रुंवांतल्यान
रंजी तेंवची तशें
अखंडतायेन तेंवत आसा
फाटल्यो कितल्योश्योच पिळग्यो
त्या दिसावडकारी जमातिच्या
कपाळांतल्यान...

# आत्मसोद

□ मंगला शिवदास

तुवें दिल्ल्या दुख्खाचें
सार्थक जालें
दुखाचे दोंगर पेलतां पेलतां
दुखाच्या म्हासागरांत पेंवतां पेंवतां
केन्ना हांव
हिमालयायेदें ऊंच जालें
केन्ना हांव
म्हासागरायेदें खोल जालें
म्हजे म्हाकाच हें व्हडलें कुवाडें
कुवाड्याचें कुवाडें म्हाका होलमलें
गात्रान गात्र म्हजें
सप्तसुरी नादान झिणझिणलें

तुंवें दिल्ल्या दुख्खाचें
सार्थक जालें
दुकांचे वझरे व्हांवतां व्हांवतां
धर्तर ओली चिप्प जातां जातां
मातयेचो परमळ कितलो
परमळीत तें म्हाका होलमलें
रंध्रान रंध्र म्हजें
मंद मंद मृद्-गंधमय जालें

तुंवें दिल्ल्या दुख्खाचें
सार्थक जालें
दुख्खाचे सुस्कारे सोडटां सोडटां
हेवटेन तेवटेन
मळब तेळटां तेळटां
नखेत्रबुट्ट्यांच्या निळ्या शालवाची
सोबितकाय कितली सोबीत
तें म्हाका होलमलें
सपनान सपन म्हजें
शालू तो कामरून सोबीत जालें
तुंवें दिल्ल्या दुख्खाचें
सार्थक जालें
तुजें काळीज जातकेर
कुंड्या कुस्कुटायेदें ल्हान
म्हजें काळीज
मळबायेदें केदें म्हान
तें म्हजे म्हाकाच होलमलें
आनी तिस्त्यो तिस्त्यो जाल्ले
म्हजे दुखेस्त जिणेक
हांवूच भुल्लुसलें.

# अश्टतासां पावस

□ मनोज नरेंद्र कामत

पावस-दुकांचो हुंवार
आकांत गेता जिवार

* *

पावस हिजडो
नाचता नागडो

* *

पावस कुकुलें बाळक
धतरिच्या कुसव्यांतलें साळक

* *

पावस दानत नाशिल्लो भिकारी
हेडटा उबंत व्हाळा-व्हाळांनी

* *

पावस करता भुंयेची माया
घोवा-बायलेच्या मोगाची सया

* *

पावस झाडां-पेडांचेर अवकळा हाडटा
जशी सुनेचो मांय फोग काडटा

* *

पावस बदलता धतरेची सया
गर्भवतिचो बीज न वचचो वाया

* *

पावस हेंगाडी
पेंगट हालोवन नाचपी कलवंतावरी

* *

पावस गडगडायता
काळजां धडधडायता

* *

पावस कोल्ली
भरून ओतता सगळी गल्ली.

# मोल

□ अमिता गावणेकार

सगळेच दीस
सोबीत फांतोडेचेच
शितळ सांजेचेच आसते,
सगळ्यो राती पुनवेवरी
चकचकीत चान्न्याच्योच आसत्यो
तर नासतें तांकां मोल...
आसा तांकां मोल
आसा म्हण
दनपारचो वता कड
आसा म्हण
बिण्ण काळख्यो राती...

# दोळे

□ सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार

सगळेच दोळे,
आपल्यो भावना,
दुकां भायर गळोवन,
उक्तावंक शकनात.

थोडे दोळे दुकां
भितरले भितर गळयतात.

थोडे दोळे दुकां
भितरले भितर चिड्डितात.

आनी थोड्या बाबड्या दोळ्यांकडेन
आपल्यो भावना उक्तावंक
दुकांच नासतात!

# वर्तमान

□ प्रभाकर नाडकर्णी

१.
विचार नाकात म्हजो भूतकाळ
आयकुपाचें ना म्हाका फुडाराचें
जाय म्हाका फकत वर्तमान –
आयज, आत्तां, ह्या खिणाक
जगून घेवपाचें
तगून रावपाचें
मेळटा तें सूख ओरपावचें
– तेंच वर्तमान.

२.
प्रभु येशूक एका शिष्योत्तमान विचारलें
निमाणें हाचें अखेर कितें?...
आसतलें कशें?
शांतपणान येशून बोध केलो, –
''आयकय, जर तें कळपाक जाय,
घटिचार समजून घेवपा जाय,
आदींपसून ते पुराय, –
रिगून तांचे खोलायेंत.''

३.
पूण हें करपाक –
आयज वेळ आसा कोणाक?
जो तो आसता धांवत
कसोय धडपडत
भौतिक सुखांलागून
– तेंच वर्तमान.

४.
कितें जावपाचें आसा तें जावं दी
उपकारचें ना उमजून 'अखेर'चें
घडये ते मेरेन नदरे आड –
खोस सूख खाशेलें
पदरांत पाडून घेतिल्लें,
तांची भिरांत –
आयज सगळ्यांकच,
– तेंच वर्तमान.

५.
तर आयज आमकां
जाय तीं भौतिक ताल्ल सुखां
हात जोडून उबीं सामखार
आसात आपयत, दोळे मिचकायत,
सामके उतावळे घेवपाक
आपणाले वेंगेंत.

जांकां जें जाय तें निवडपाचें
जांकां जें परवडटा तें घेवपाचें,
जांकां जें सुखावता तें सांसपुचें

थंय दुख्खाक थारो ना,
थंय नसते पिडेक सुवात ना,
थंय लज, भिडेक जागो ना.

पुणून ओंपणीक मातय
थारावना, खंयच
ना म्हळ्यार – अजिबात ना.

६.
तें कांय ना –
''जें आसा सामखार तें आमचें
हेंच मोखप, हेंच जियेवप
– तेंच वर्तमान.

# कोंकणीच्या दिश्टाव्यान म्हाका घडयलं !

इतिहासाचीं पानां

[तिसरो वांटो ]

गेश करमली

यच्या सुटकेझुजांत हांव वांटेकार जातलों अशें केन्नाच चिंतूंक नासलें. म्हळ्यार, सुटकेझुजा पासून हांव पयस रावतलों अशेंय केन्ना मनांत वंक नासलें. पूण, कोंकणीचे उदरगतिचो मार्ग गोंयचे मुक्ती सांगाताच डिल्लो आसा हें कळून आयलें तेन्ना आपापच कोंकणीचो वावर सुटके जाचो भाग जालो आनी सुटके झुजांतल्यान जल्माक येवपी मुक्तीवंत यांत जैतीवंत अशा कोंकणीच्या फुडाराचीं सपनां म्हाका पडूंक लागलीं. केपें-कुडचडें-सावर्डें ह्या वाठारांत जांचेकडेन हांव कोंकणीविशीं लयतालों तांकां सगळ्यांकच कोंकणीची बाजू पट्टाली अशें ना. दुमावाचींच तरां चड आयकूंक मेळटालीं. ''कोंकणींत खंय कितें आसा ? पयलीं बरीं रीं पुस्तकां तयार करात आनी मागीर उलयात'' हो बऱ्याच जाणांचो सूर ासतालो. जाचेकडेन कोंकणीविशीं आत्मविस्वासान उलोवचें असो तेन्ना री म्हजेमुखार एकच मनीस आसलो – गुरुनाथबाब केळेकार. आमच्या श्टांचे आनी वळखुप्यांचे नदरेन आमी 'कोंकणीवादी' आसले. हेरांचें तशें ासलें. ते खंयचोच छाप मारून घेवंक तयार नासले. तेन्ना, कुडचड्यावयले क आमचे इश्ट आसले शिवाजीबाब कुडचडकार. ते १९४६तले गोंय सुटकेचे ळवळींत आसले. कविता करताले. आमचेकडेन कोंकणीविशीं बी उलयताले. ूण कोंकणीचे तुलनेंत ते मराठीचो पाखो घेवपी आसले. भाशेविशिंचे विचार गळे आसले तरी गोंयचे सुटके चळवळिच्या संदर्भांत विचार करतना आमच्यांतलें विचारीक वेगळेपण आड येना आसलें.

कुडचड्यार आसतना हांवें आनी गुरुनाथबाबान कोंकणींत एक साहित्यांक काडपाची येवजण तयार केल्ली. ते खातीर कांय जाणांकडल्यान साहित्य लेगीत एकठायिल्लें. 'कोंकणीचे अशोक' बयाभाव हांणीय आपणाली एक कविता धाडिल्ली. हो साहित्यांक गोंयांतच उजवाडावपाचो आसलो. ते खातीर पुर्तुगेज सरकाराल्या सेन्सराच्यो बी आडखळी आसल्यो. सगळे सरकारी सोपस्कार आमी करपाचे थारायिल्ले. मात अंक काडपाची तयारी पुराय जावचे पयलींच १९५४च्या जुनांत पुर्तुगेजांनी सुटके चळवळींत वांटेकार आसा म्हण गुरुनाथबाबांक अटक केली आनी आमची सगळी येवजण फिसकटली. हांव एकटो पडलों. उपरांत, गुरुनाथबाबाकडेन म्हजो लागिंचो संबंद आसलो हें जांकां खबर आसलें ते म्हाका टाळपाक लागले. कारण, कोंकणीवांगडा ल्हवू ल्हवू आमी 'जयहिन्दीश्तां'तय जमा जावंक लागिल्ले. आनी असल्यांवांगडा उकतेपणीं संबंद दवरपाचो बऱ्याच जाणांक धीर जायना आसलो.

हांगा मुजरत थोडीशी फाटभूंय सांगूंक जाय.

गोंयचे सुटके चळवळीआड पुर्तुगेजांचे दडपशायेक १९५४च्या जुनांत सावन परतून सुरवात जाल्ली. कारण १९४६त डॉ. लोहियान सुरू केल्ली सुटके चळ[illegible] १९५२ मेरेन, थंडावत वचून जी सामकी बंद पडिल्ली ती नव्यान आकार घेवपाक लागिल्ली. गोंयची नॅशनल काँग्रेस नव्यान सुसंघटीत जावंक लागिल्ली. गोंयांतल्यान ते खातीर फुडाकार घेवप्यांमदीं डॉ. पुंडलीक गायतोंडे, ॲड्. पांडुरंग मुळगांवकार, ॲड्. गोपाळ आपा कामत, प्रो. शंकर सरदेसाय आनी डॉ. जुझे फ्रांसिस्क मार्टिन्स हे मुखेल आसले. आंदोलनांची तयारी जावंक लागिल्ली. इतलेमदें १९५४च्या फेब्रुवारींत एका निरोप समारंभांत, एका उलोवप्याच्या, गोंयांक पुर्तुगालचो भाग म्हणपी विधानाक डॉ. गायतोंडेन उत्स्फूर्तपणान हरकत घेतली; ''येव प्रॉतेश्तु'' (हांव निशेध करतां) इतलें म्हळें आनी आकांत करून सोडलो. उपरांत डॉ. गायतोंडेक अटक जाली. तांकां पुर्तुगालाक व्हेले आनी बंदखणिची ख्यास्त दिली.

हे घडणुकेक लागून वातावरण बदललें. गोंयचे सुटकेची चळवळ आतां खंयच्याय खिणाक परतो नेट घेवं येता अशी परिस्थिती निर्माण जाली. ते नदरेन पळोवणी करपाक तशेंच वावुरप्यांक मेळपाक नॅशनल काँग्रेसचे सरचिटणीस एन्थनी म्हळ्यार टोनी डि सौजा गोंयांत आयले. पुलीस तांकां धरूंक पळयताली. पुलिशेकडेन टोनीचो जो फोटो आसलो तातूंत ताका खाड आशिल्लें. पूण तो खाड काडून गुपचूप गोंयांत आयिल्लो. कोणाक दुमाव येवचो न्हय म्हूण अनवळख्याक तो टोनी म्हण आमी सांगिनासले. टोनी केप्यां नरेंद्र हेगडे देसायागेर आयिल्लो. नरेंद्रबाबान ताका म्हजी गांठ घालून दिली. हांवें ताका सगळ्यांत पयलीं गुरुनाथबाबाकडेन व्हेलो. थंयच्यान आनीक कांय जाणांकडेन ताची भेट घडयली. एक सप्तकभर हांव टोनी वांगडा भोंवलों. गोंयची सुटके चळवळ जी फकत मनांत आसली तिचेकडेन टोनीक लागून आतां सामको प्रत्यक्ष संबंद आयिल्लो.

गोंयांत सुटके चळवळिची तयारी चलल्या हाची सुलूस ल्हव ल्हव पुर्तुगेजांक लागली. तांणी १९५४च्या १८ जुनाच्या अदमासाक आनी ते उपरांत गोंयांत मोठ्या प्रमाणार धरपकड केली. हातूंत चळवळिचे फुडारी तशेंच वावुरपी आसले. गुरुनाथबाबाक अटक जाल्ली तशीच केप्यां जाचेकडेन म्हजो संबंद आसलो तो नरेंद्र हेगडे देसाय हाकाय अटक जाल्ली. हांवय जतनायेन रावंक लागलों. दिसाचो चडसो घराभायरच उरतालों. रातचोय घराभायर न्हिदूंक लागलों. पुर्तुगेजांआड प्रचार साहित्य येतालें तें वेगळेवेगळे कडेन. पावोवपाचें, वांटपाचें काम चालूच आसलें. फाटोफाट नगरहवेलीचे सुटकेचोय वावर सुरू जालो. गोंयांत वातावरण तापूंक लागलें. पुर्तुगेज सत्ता पिशांतूर जाल्लेवरी वागूंक लागली. पुर्तुगेज पुलीस एकदोनदां म्हाका सोदूंक आयले. म्हजो वावर चलिल्लो तो गुपचूप – भूमिगत. पुर्तुगेजांच्या हातांत सांपडचे पयलींच हांव गोंयचे शिमेभायर – बेळगांवां गेलों. उद्देश आसलो – हे मुखार कशें काम करचें तें चळवळिच्या फुडाऱ्यांकडल्यान समजून घेवपाचें. कारण तोवेळ मेरेन हांव म्हाका जमता ते तरेन काम करतालों. कोणाचें मार्गदर्शन मेळूंक नासलें. ताची म्हाका गरज आसली.

सादारण म्हयनोभर हांव बेळगांवां उरलों. थंय नॅशनल काँग्रेसच्या शिबिरांतलें वातावरण म्हाका नवेंच आसलें. एक दीस थंय गोंयच्या वावुरप्यांची बसका आसली. बसकेक फुडाऱ्यांमदें पिटर आल्वारीस, ना. ग. गोरे तशेच बेळगांवचे कांय थळावे फुडारी आसले. गोंयांत चळवळ कशी चलोवची, काम कशें करचें हाचेर विचार चलिल्लो. हांव म्हजें म्हणणें कोंकणींतल्यान मांडूंक लागलों तेन्ना गोंयच्याच एका कार्यकर्त्यान म्हाका आडायलो आनी 'मराठींतून बोल. नानासाहेबांना आणि इतर सर्वांना कळलें पाहिजे' अशें म्हळें. म्हाका सटक् जालें. बसकांनी बी सडसडीत जाप दिवपाइतलों तेन्ना हांव तयार जावंक नासलों. तरी आसतना, कशें कोण जाणां, हांवें मात्शें रागानच म्हळें, ''हांव म्हज्या स्वातंत्र्याखातीर झुजपाक भायर सरलां. ह्या स्वातंत्र्यांत म्हजे भाशेक स्थान ना जाल्यार हांव असोच परत गोंयांत चल्लों. जावं दी म्हजें कितें जाता तें.''

नानासायब म्हळ्यार ना. ग. गोरे हें आयकून म्हणूंक लागलो, ''असे बोलूं नका. मराठीची सवय असलेली बरी. गोवा मुक्त होऊन महाराष्ट्रांत

विलीन झाला म्हणजे मराठीशिवाय उपाय राहणार नाहीं. कोंकणी म्हणजे काही भाषा नाही. ती एक बोली आहे...''

हांवें जाप दिली, ''गोंय महाराष्ट्रांत वचचें ना. कोंकणी भास काय बोली तें तुमी सांगपाची गरज ना.'' हांव आनिकय उलोवंक वतालों. पूण कांत हेगडे देसाय मदीं पडलो आनी विशय बदल्लो. तरी गोरेसारक्यांक परती जाप दिता म्हण कांय जाण म्हजेर रागार जालेच. पिटर आल्वारिसांकय म्हजें उलोवप बरें लागलें ना. पूण म्हाका तांच्या राग-लोभाची पर्वा नासली. गोंयच्या स्वातंत्र्याचो प्रस्न आनी कोंकणीची प्राणप्रतिश्ठा ह्यो म्हजे नदरेन दोन वेगळ्यो गजाली नासल्यो.

ह्या प्रसंगान नाय म्हळ्यार एक गजाल लक्षांत आयली ती म्हळ्यार, हांव गोंयच्या फुडाराविशीं जें कितें चिंततां वा म्हजे सारके जे चिंतपी आसात तांच्या मार्गांत खूब आडखळी आसात. दुसरी गजाल स्पश्ट जाली ती म्हळ्यार महाराष्ट्रांतले जे फुडारी गोंयचे सुटके चळवळींत देंवल्यात ते गोंय मुक्त जावप म्हणजेच महाराष्ट्रांत वचप हो विचार घेवन काम करतात. गोंयांतूय हो विचार उखलून धरपी जायते जाण आसात हें हांव जाणाच आसलों. म्हणजे गोंय मुक्त जातकच कोंकणीपासत आनी गोंयचें गोंयपण सांबाळून दवरपाखातीर आमच्यांतल्याच लोकांआड आमकां आनीक एक चळवळ उबारची पडुंये असोय एक विचार तेन्ना हयन्हयसो मनाक स्पर्श करून गेलो. गोरेसारक्या फुडाऱ्यान म्हाका समजावणी दिवपाक जें कितें सांगलें तें आयकून तर तो मनीस सामकोच मोटव्या मनाचो कसो दिसूंक लागलो. हांव गोरेकडेन एक शैलीदार लेखक, वक्तो आनी देशांतलो एक पुरोगामी फुडारी म्हण आदरान पळयत आयिल्लों. पूण गोंय मुक्त जावचे पयलींच तें महाराष्ट्रांत घालपाच्यो गजाली करपी गोरेविशिंच्या म्हज्या मनांतल्यान आदराक त्या दिसा जी वेर गेल्ली ती निमाणे मेरेन तशीच उरली.

ह्या प्रसंगा उपरांत एक फावट मनांत आयलें, नॅशनल कॉंग्रेसच्या शिबिरांतल्यान सरळ गोंयांत परतल्लें बरें. कारण, शिबिरांत जांचो पुंजो जमिल्लो ते चडशे मराठीच्योच गजाली करताले. थंय कोंकणीची सामकीच नसाय चलताली. म्हज्यान तें सोंसूंक जायना जालें. पूण कांत हेगडे देसायान म्हाका समजायलो. उचंबळ जायनाका अशें म्हळें. हे चळवळींत वेगळ्या वेगळ्या विचारांचे लोक आसात; कांय जाण गरजेभायर प्रस्न निर्माण करतात; तांचेकडेन लक्ष दिवंनाका, अशेंय सांगलें. आनी गोंयांत वचून काम करपाची तांणी म्हाका सुचोवणी केली. ते प्रमाण हांव गोंयांत आयलों. आनी १६ सप्टेंबर १९५४ 'तेरेखोल दिन' व्हडा प्रमाणार मनोवपाचे तयारेक लागलों. ते खातीर केपें, सांगें आनी काणकोण हो भाग वेंचून काडलो. अर्थात् हें सगळें भूमिगत पद्धतीन.

१५ आगस्ट १९५४ ह्या दिसा शिमेभायल्यान गोंयांत भितर सरून ज्या पंगडांनी सत्याग्रह केल्लो, तातुंतल्या एका पंगडान आल्फ्रेड आफोंस हांच्या फुडारपणाखाला तेरेखोल कोटाचेर वचून सत्याग्रह केल्लो आनी तें कोट चोवीस वरांखातीर मुक्त केल्लें. दुसऱ्या दिसा पुर्तुगेजांनी दर्यांतल्यान झुजारी तारू हाडून, फारमार करून तें परतें ताब्यांत घेतिल्लें. सत्याग्रहींक धरून तांकां मेळत तशी मारधपट केल्ली. त्या वेळार एक दोगां सत्याग्रहींक जिवानशीं मारले अशी वंदताय देशभर पातळिल्ली. तर हे घडणुकेची याद म्हणून १६ सप्टेंबराक 'तेरेखोल दिन' गोंयभर पाळपाचो आसलो. ह्या कामाक हांवें जो वाठार वेंचिल्लो थंय म्हजे जायते इश्ट आसले. नवेय इश्ट जोडिल्ले. ह्या सगळ्यांनी मेळून 'तेरेखोल दिना'ची नेटान तयारी चलयिल्ली. ते प्रमाण तो दीस मनयलोय. पूण, म्हाका मात विश्वासघातकीपणान म्हणटात तशी आदले राती, म्हळ्यार १५ सप्टेंबराक रिवणा अटक जाली. आमच्या सांगाता जे वावर करताले तांतल्याय कांय जाणांक अटक जाली.

हांव बंदखणींत पावलों. पुर्तुगेजांच्या लश्करी कोर्टान म्हाका ८ अदीक २ अशी धा वर्सांची बंदखण फर्मायली. आरंबाचे आठ म्हयने आमकां पणजे आल्तीनार, आतां जंय पिश्यांचें ओशिपताल आसा, ते इमारतींत बंद करून दवरिल्ले. १९५५च्या मे म्हयन्यांत आमकां रेजमाग बंदखणींत व्हेले. ही बंदखण सिवील अधिकाऱ्यांच्या हातांत आशिल्ल्यान थंय पुलीस वा आग्वादचे बंदखणीपरस अदीक मेकळीक आसली. रेजमागाक दुसरेय तरेचे गुन्यांवकार बंदी आसले. आमचे खातीर वेगळीं सालां आसलीं. दोन-तीन व्हडल्या सालांनी मेळून उणे ते सवायशीं सुमार आमी राजकीय बंदी आसले. आमगेलें जेवण-खाण रांदप-करप आमीच करताले. थंय गोंयांतलीं तेन्नाचीं पुर्तुगेज नेमाळीं आमकां वाचूंक मेळटालीं. मार्क फेर्नांडिसाक कराची सावन थंयचीं इंग्लीश दिसाळीं येतालीं. मुंबयच्या तशाच गोंयच्या कांय इश्टांनी आमकां 'न्यू स्टेट्समन', 'टाइम', 'न्यूजवीक' सारकींय नेमाळीं धाडपाची वेवस्था केल्ली. मेळनाशिल्लीं तीं गोंयाभायलीं आमच्याच देशांतलीं नेमाळीं. पुस्तकांय मेळटालीं. गोंयचे तशेच गोंयाभायलेय बरे-मागते आमकां पुस्तकां धाडटाले. तीं सेन्सोर जावन येतालीं. खूब वाचप जातालें. वेगवेगळ्या विशयांचेर आमचेमदें उलोवणी जातालीं. कोंकणी-मराठीचोय विशय येतालो. आमचेमदें मराठीचो पाखो घेवपी आसले तशे कोंकणीचोय पाखो घेवपी आसले. बेळगांवां नॅशनल काँग्रेसच्या शिबिरांत हांवें जें अणभविल्लें ताचेपरस हो अणभव वेगळो आसलो. गोंयचे सुटकेचे चळवळींत पडून बंदखण भोगतल्यांमदें कोंकणीचो पाखो घेवपीय खूब जाण आसात हें पळोवन म्हाका आनंद जातालो.

कोंकणीच्या संबंदान विचार करतां करतांच एक दीस कोंकणीचो सारकोच अभ्यास करपाक आमी बंदखणींतच आमचेपुरतेंच एक अभ्यास मंडळ घडोवया असो एक विचार फुडें आयलो. अभ्यासाक लागपी साधनां नासलीं. रोमी कोंकणींतलीं कांय पुस्तकां आसलीं. नागरींतलीं, शणै गोंयबाबालीं एक दोन पुस्तकां आसलीं. जें कितें आसलें तितल्याच म्हालवजार एक 'कोंकणी अभ्यास मंडळ' घडयलें. कोंकणी वाचप, बरोवप, नागरी लिपी येना तांणी ती शिकप असो उपक्रम आमी सुरू केलो. आमचेमदले मराठीचो पाखो घेवपी आमचे लागीं रावनासले. अदींमदीं ते कोंकणी भास काय बोली हाचेरय वितंडवाद घालताले. आमी त्या वादाक म्हत्व दिनासले. आमच्या अभ्यास मंडळांत म्हजेभायर दिनकर थळी, बाळा काकोडकार, प्रभाकर भेंब्रो, मार्क फेर्नांडीस, प्रिझन तावारीस, फेलिक्स व्हालोइश रोद्रीगीश, तुळशीदास मोरजकार अशे कांय जाण आसले. जांकां नागरी लिपी वाचूंक येना ताकां आमी ती वाचूंक शिकोवंक लागले. कांय जाणांक काणयो, कविता बरोवपाक प्रवृत्त केले. एक दीस ॲड. श्रीधर तांबा आमकां मेळपाक आयले. तांणी आमकां तांचेकडेन आशिल्लीं शणै गोंयबाब आनी आचार्य रामचंद्र शंकर नायक हांचीं पुस्तकां हाडून दिलीं. मुंबयच्या इश्टांनीय उपरांत कांय पुस्तकां, तशेंच 'साद', 'राळीक' हांचे अंक धाडून दिले. हे तरेन आमची एक ल्हानशीच पुस्तक कोठी घडली. कोंकणी वाचपाक मेळूंक लागली.

कोंकणी वाचपाचो आनी ते खातीर थोड्या दिसांमदें नागरी लिपी शिकपाचो खरो यशस्वी प्रयत्न केलो तो मार्क फेर्नांडीस हाणें. १५ आगस्ट १९५४ ह्या दिसा सत्याग्रहींचो पंगड घेवन भितर सरिल्ल्या मार्क फेर्नांडिसाक कोंकणी सारकी उलोवंक जमनासली. तो ल्हान-व्हड जाल्लो कराचीक. इंग्लीश उलयतालो, वाचतालो. पूण आमचे मदें येनापुडें तो प्रयत्नपूर्वक कोंकणी शिकलो. वर्साभरयामदें नागरींतली कोंकणी सडसडीत वाचूंक लागलो. आनी एक दीस ताणें पुराय शणै गोंयबाब वाचून काडलो. मार्कासारकेच दुसरेय कांय जाण नागरी लिपी शिकले. नागरींतली कोंकणी वाचतां वाचतां तांकां मराठी आनी हिंदीय वाचूंक येवंक लागली.

आमच्या 'कोंकणी अभ्यास मंडळा'क लागून आनीक एक गजाल घडली ती म्हळ्यार, जे घरा पत्रां बरयताले ते तीं कोंकणींत बरोवंक लागले. कोंकणीविशिंचे हे जाणविकेंतल्यानच आनीक गजाल घडली. ती म्हळ्यार, आमी एक हातबरपी म्हयनाळें काडपाचें थारायलें. तें म्हयनाळें म्हळ्यार रेजमाग बंदखणींतली 'जोत'. ताचीय एक वेगळी काणी आसा. [चलता]

# कारबारी कोंकणी

मुकेश थळी




कोंकणीच्या मळार हालींसराक वेगळ्या वेगळ्या विशयांचेर जायतीं पुस्तकां येत आसात. ललित साहित्यासावन शास्त्रांमेरेन नव्या नव्या दालनांनी भर पडत आसा. पणजेच्या राजहंस वितरणान कोंकणींतूय जायतीं पुस्तकां उजवाडावन भरींव अशें योगदान दिलां. 'कारबारी कोंकणी' हें अशेंच एक बरें आनी घसघशीत पुस्तक. कोंकणींत वेगळे वेगळे तरेचीं पत्रां, अर्ज, जायराती बरोवंक जमना, कारण, त्या विशयाचेर पुस्तक ना अशी पिरंगण चलताली ताका ह्या पुस्तकान सणसणीत जाप दिल्या. गोंय विद्यापिठाच्या पदवी अभ्यासक्रमांत 'वेव्हारीक भास' हो १०० गुणांचो एक पेपर आसता. संदर्भ साहित्याच्या उणावाक लागून आयजवेर ह्या पेपराच्या अभ्यासाखातीर शिकोवप्यांपरस विद्यार्थ्यांच्यो चड भोयो जाताल्यो. हें पुस्तक म्हळ्यार तांच्या सुकिल्ल्या ताळ्यार उदक आनी संजीवनी!

भूषण भावे, प्रकाश वजरीकार, प्रकाश पर्येकार ह्या तीन अभ्यासू प्राध्यापकांनी कश्ट, तकालस आनी त्रास घेवन व्यापक अशें संशोधन आनी अभ्यास केलो. ताचें फळ म्हळ्यार हें पुस्तक. मुदलांत जरी भुरग्यांचे गरजेंतल्यान पुस्तक बरपावळिचें मूळ धरिल्लें आसलें तरी दिसपट्ट्या वापरांत कार्यालयांनी **संपर्काचे बाबतींत** कोंकणी भास इंग्लीश भाशे इतलीच ताकदी थारूं येता म्हणपाचें हें पुस्तक दाखोवन दिता. देखून बरोवप्यांक शाबासकी फावता. पुस्तकाचो आटाप बरोच व्हड. ३०८ पानां. ७ विभागांनी तो वांटला: पत्रलिखाण, कार्यालयीन पत्रवेव्हार, वेवसायीक वा वेपारी पत्रां, अर्ज लिखाण, प्रसार माध्यमां खातीर लिखाण, जायरात, परिशिश्ट (उतरावळी).

पत्रांचे तरेकवार प्रकार दाखोवपाक एक सविस्तर तकटो दिला. तातूंत व्यक्तीगत पत्रां, समाजीक पत्रां, कार्यालयीन पत्रां, वेवसायीक/वेपारी पत्रां अशे ४ फांटे दाखोवन दरेका फांट्यांत वेगळीं वेगळीं कसले तरेचीं पत्रां आसतात हें स्पश्टपणान दाखयलां.

विभागांची मांडावळ पद्धतशीर आनी सूत्रबद्ध आसा. पत्र बरपावळिचो इतिहास आनी पुराणीक संदर्भ दिवन बरी माहिती दिल्या. लग्नाचीं, साबार सुवाळ्याचीं, संस्कृतीक कार्यावळिंचीं आमंत्रणां कशीं आसचीं ते मसुदे दिल्यात. कार्यालयांतलीं परिपत्रकां कोंकणींत कशीं आसचीं तांचे सुंदर नमुने आसात. वेवसायीक आनी वेपारीक पत्रांची रचणूक कशी आसूंक जाय, ताची खोलायेन फोडणिशी केल्या. एकंदर पत्रां बरोवप हें केदें व्हड शास्त्र हाची सुलूस आनी थाव पुस्तक वाचतल्याक तुडूंब माहितीवेल्यान होलमता. कळोवण्यो, प्रमाणपत्रां, बसकेचो अहवाल कसो बरयतात हें शिकपाक ह्या पुस्तकाबगर पर्याय ना.

प्रसार-माध्यमांखातीर कशें बरोवचें हें खूब खेपे नकळ जाल्ल्यान आयचो तरणाटो गोंदळटा. ह्या पुस्तकांत वेगळे वेगळे नियाळ, खबरांप्रत्रां कशीं बरोवचीं तें नमुन्यांवयत स्पश्ट केलां. पूण दिसाळ्याची वा नेमाळ्याची खबर (कार्यावळ, खेळ, गौडबंगाल, अपघात हांचेविशीं) कशी बरोवची तांचे ४-५ नमुने दिल्यार ह्या विभागाक घटाय येवपाची. रेडियो-टिवीखातीर मुलाखती घेतना लागपी कांय प्रस्नावळी दिल्यात. तातूंत साहित्य अकादमी पुरस्कार फावो जाल्ल्या लेखकाची मुलाखत कशी घेवची, हें अप्रतीम भाशेंत सांगलां. परबीं-पत्रां जावं जायराती हांच्यो ओडलायण्यो पती सांपडटात.

पत्रांतली इश्टागत (pen-pals) अजूनय जगभर चलता. पूण ते विशिंचो उल्लेख मात पुस्तकांत सांपडना. ग्रामपंचायत वेव्हार आनी हेर कांय माहिती पुस्तकाच्या आवाठाचे (आवांठाचे?) नदरेन मनांत आसुनय घेवंक पावलेना अशें प्रस्तावनेंत म्हळां. प्रस्तावनेंतलो हो भाग बारिकसाणेन वाचात: आमचेपरीन ती कोंकणी दिससारकी, कोंकणी **तजुर्म्याची** करपाचो यत्न केला. ही भास एकेच तरेची जावंची न्हय म्हणून जाता तितलें **वैविध्य आनी विंगडटाय** हाडपाचो यत्न केला. हो वावर चडूय **काल्पनिक**...

१. तजुर्म्याची म्हळ्यार कसली ताचो अर्थ कळना. हें उतर उपलब्ध कोंकणी कोशांनी मेळना. 'तजुर्मो' हो शब्द शणै गोंयबाब आनी/वा हेर कोणेय जाणकारान वापरला काय? 'तजुर्बा' अशें हिंदी उतर घोळटा. ताचो अवतार बी न्हय मू? कायचेकाय उतरां घडोवपाची एक वृत्ती कोंकणी बरोवप्यांनी हालींसराक आपणायल्या. भाशेचे भलायकेक ती मारक आनी घातक हें विसरूंक फावना.

२. विंगड विंगड उतर वापरांत आसा. 'विंगडटाय' (विंगडाय: देसायालो शब्दकोश) हें उतर वैविध्य (विविधताय?) शब्दाउपरांत जायूच?

३. परंपरीक, संस्कृतीक असलीं उतरां पुस्तकभर वापरिल्लीं आसतना 'काल्पनीक' उतर कशें आयलें? 'कल्पनीक' जावपाचें न्हय?

'कारबारी कोंकणी' हो पुस्तकाचो माथाळो मात्सो खटकता. 'कारभार' हें उतर कोंकणी आनी मराठींतूय घोळटा आसतना कारबार → कारबारी हो क्रांतीकारक बदल आनी प्रयोग कित्याक तें कळपाक मार्ग ना. पुस्तकाचें मुखपृष्ठ नदरेंत भरसारकें ना. कोंकणी नेमाळ्यांचीं नांवां आडवीं, उबीं, तिरपीं अशीं कपयांच्या नांवान ताचेर दाखयल्यांत. तातूंत मदेगांत भौ. पुंडलीक नायक हांची एक पत्र-रुपांतली साहित्यीक कविता घुसडायल्या. 'तुमची चीट आमची जाप' आनी 'वाचप्यांचीं पत्रां' ह्या कपयांचें प्रयोजन कळना.

२४ जुलै १९८६ ह्या दिसा सरकारी राजपत्रांत उजवाडाक आयिल्लो राजभास **विधेयका**चो मजकूर निमाणेकडेन छापला. ते सुवातेर उपरांत राजपत्रांतूच उजवाडाक आयिल्लो राजभास **कायद्या**चो तपशील येवंक जाय आशिल्लो. विशेश म्हळ्यार, विधेयकाच्या मसुद्यांत बरीच निवळावणी आनी दुरुस्ती कायदो आंखतना जाल्या. प्राप्त परिस्थितींत हो घोळ नकळो आशिल्ल्या कोंकणी मोग्यांचो वा तरणाट्यांचो गोंदळ आनीक वाडोवं येता.

भौ. दामोदर घाणेकार ह्या खांप्या अभ्यासकान पुस्तकाचें भास संपादन दोळ्यांत तेल घालून केलां. भास नितळ-निवळ आसा. प्रूफ-रिडिंगाच्यो चुको साप्प थोड्यो. पुस्तकांत आयिल्लें 'उकतावण' चूक न्हय. पूण 'उक्तावण' व्हडा प्रमाणांत घोळटा. 'ओळ' चूक न्हय. 'वळ' लेगीत बरोबर. 'प्रदेशीक' उतरापरस प्रादेशीक (प्रादेशिक?) चड घोळटा. बंगाली सारके भाशेंत लेगीत एक एक उतर जाणकार, व्याकरणकार, लेखक तीन-तीन तरांनी बरयतात. आसूं.

कोंकणी भाशेखातीर आनीकूय कोशांची आनी पारिभाशीक कोशांची गरज आसा अशी करंदाय एकसारकी चालूच आसा. ते केन्ना येतले तेन्ना येतले. पूण ताची गरज आनी गरजेची खराय मात वाडत आसा, हें खरें. ह्या पुस्तकांत अखेरेक कांय उतरावळी दिल्यात आनी दुदाची तान ताकाच्या कुलेरांनी भागोवपाचो यत्न केला ही गजाल तोखेवपासारकी. बँकेच्या

वेव्हारापासत उतरावळ दिल्या आनी ती सविस्तर आसा. गोंयांतल्या सगळ्या बँकांनी ताची मुजरत नोंद घेवंक फावो. कांय बँकांनी अशुद्ध कोंकणींत सुचोवण्यांचें फलक आसतात. तांतुंतल्यो चुको पळेल्यार ते न दिल्ले बरे अशें कोणूय म्हणत.

फाटलीं साबार वर्सां हांव विश्वकोश, शब्दकोश, शुद्धलेखन, व्याकरण असल्या संशोधनाच्या व्यापांत आशिल्ल्यान कांय चुको वा उणाव ह्या उतरावळिंनी नदरेक आयले ते सांगतां. Bond म्हळ्यार हमीपत्र हें बरोबर. पूण bond म्हळ्यार रोखो अशेंय जावं येता. Investment म्हळ्यार गुंथवणूक (गुंतवणूक ?) अशें दिलां तें बरोबर. पूण disinvestment हें उतर वळेरेंत ना. Insolvent म्हळ्यार खांकनवाळ/भांकरूट अशें दिलां. भांकरूट हें उतर कोंकणींत कांय जाण वापरतात. पूण भांकरूट हो bankrupt उतराचो 'अवतार' काय ? Document म्हळ्यार दस्तावेज/दुकुमेंत अशें म्हळां. दुकुमेंत हें पुतुगीज उतर. आसूं. पूण कायदेशीर कागदपत्र हें सोपें उतरय दिवं येतालें. Please ह्या उतराक 'उपकार करून' अशें म्हळां तें बरें दिसलें. पूण Kindly acknowledge हाचो कोंकणी रूपकार दितना 'कृपा करून पोंच-पावती दियात' अशें म्हळां. 'कृपा करून कांय वेळान डायल करात' असो टेलिफोनावेलो आवाज नीज कोंकणी अभ्यासकाक खटकचो, तशें हेंय खटकता. 'कृपा' ह्या उतराक बरोच व्यापक अर्थ आसा. Violation म्हळ्यार मोडप हें बरोबर. ताचो अर्थ 'भंग' असोय जाता. Violation हें noun.

गिन्यानाचे फांटे सांगतना Biology आयलां. पूण Microbiology ना. Psychiatry म्हळ्यार मनोविकृती चिकित्साय अशें म्हणचे सुवातेर मनाउपचारशास्त्र हें सुटसुटीत आनी सोपें दिसता. Technology म्हळ्यार तंत्रशास्त्र हें बरोबर. पूण तंत्रगिन्यान हो अर्थूय व्हडा प्रमाणांत घोळटा. साहित्यशास्त्रांतले उतरावळींत metaphor, poetics हीं उतरा येवंक नात. Tragedy म्हळ्यार शोकांतिका आनी Comedy म्हळ्यार सुखांतिका वा विनोदी (हांसोवपी) नाटक अशें म्हणूं येता.

उद्देगधंद्यांची वळेरी पळेयात. Doctor म्हळ्यार दोतोर. हो दोतोर Ph.D. काय वैज ? Fisherman म्हळ्यार खारवी हें चूक न्हय. पूण नुस्तेकार वा नुस्तें मारपी (पागपी) कित्याक न्हय ? Contractor म्हळ्यार रेंदेर अशें म्हळां. Contract म्हळ्यार पुतुगेजींत 'रेंद' ह्या अर्थान तें घेतलां. पूण गोंयांत toddy-tapper म्हळ्यार रेंदेर असो चालंत अर्थ घोळटा. तें चूक नासत, पूण Contractor म्हळ्यार कंत्राटदार होय अर्थ जाता. Artiste आसा पूण Artist शेणला. शणै गोंयबाबान वापरिल्ली विज्ञानीक उतरावळ दिल्ल्यान हो विभाग धश्टपुश्ट जाला. तार-परबीं कोंकणींत आसात. (पान नं. ३०२:४१) तुमच्या दुख्खांत सहभागी आसां ! सहभागी उतरा सुवातेर 'वांटेकार' उतर अदीक सोबूं येत. पाल्हाळ जातलें देखून उतरावळिचें dissection आनीक करिना.

'कारबारी कोंकणी' पुस्तकान एकाच धपक्यान खूब जाणांची भूक भागयल्या. शालेय पांवड्यासावन विद्यापीठ पांवड्यामेरेन विद्यार्थ्यांची आनी शिकोवप्यांचीय. कोंकणींतल्यान पत्रां बरोवप्यांची, कार्यालयांची, तुमची आनी आमची. म्हत्वाचें म्हळ्यार, नेटान विकसित जावपी कोंकणी भाशेची. सस्थांचे, कार्यालयांचे, बँकांचे, शिक्षकांचे, विद्यार्थ्यांचे आनी कोंकणी-अभ्यासकाचे पुस्तक-आरमारींत हें पुस्तक नासल्यार तातूंत मुजरत उणाव उरतलो ही अतिताय म्हणूं नजो.

**कारबारी कोंकणी**
**भूषण भावे, प्रकाश वजरीकार, प्रकाश पर्येंकार**
**राजहंस वितरण, १९९९**
**पानां: ३०८, मोल: रु. १००/-**

## पोंच

**बारीक सारीक दुयेंसां (लोकप्रिय विज्ञान)**
अनिल अग्रवाल
अण: डॉ. भिकाजी घाणेकार
नॅ.बु.ट्र., इंडिया, १९९९
पानां: ७७, मोल: रु. ३०/-

**तुमचें अन्न आनी तुमी (लोकप्रिय विज्ञान)**
के. टी. अचय्या
अण: नारायण देसाई
नॅ.बु.ट्र., इंडिया, १९९९
पानां: ९५, मोल: रु. ३०/-

**भारतीय समाज (वैचारीक)**
श्यामचरण दुबे
अण: चंद्रकांत केणी
नॅ.बु.ट्र., इंडिया, १९९९
पानां: १३३, मोल: रु. ३५/-

**सोरपाची करामत (बाल साहित्य)**
रस्कीन बॉण्ड
अण: जयंती नायक
नॅ.बु.ट्र., इंडिया, १९९८
पानां: ३२, मोल: रु. ८/-

**पर्जळती घोल (बाल साहित्य)**
अरुप कुमार दत्त
अण: शीला कोळंबकार
नॅ.बु.ट्र., इंडिया, १९९९
पानां: ३२, मोल: रु. १२/-

**लोकबिंब (लोकवेद निबंद)**
जयंती नायक
गोवा कोंकणी अकादेमी, १९९८
पानां: १८२, मोल: रु. १५०/-

Regd. No. G